जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक ९ : जुलय २०२०

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८ / ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भायले चित्र : सुबोध केरकार

# खर समिक्षे बगर कोंकणी साहित्याचो दिश्टावो घडचो ना!

कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावंक जाय अशें आमी म्हणटात, पूण ती जाली जाल्यार मात आमी आंग काडटात असो अणभव येता. कोंकणी भास साहित्य अकादेमींत गेल्यार आतां ४० वर्सां भर जाल्यांत; ह्या ४० वर्सां मदीं साहित्याचो कस कितें तें थारावपी, साहित्याची मोलावणी करपी एक लेगीत मोलादीक ग्रंथ आमी निर्माण करूंक पावले नात. 'जाग' हें खरेपणीं भाशेक आनी साहित्याक ओंपिल्लें मासिक. पूण आमकां लेगीत खर साहित्यीक समिक्षा निर्माण करूंक अपेस आयलां हें आमी मानून घेतात.

कोंकणींत परखड समिक्षा जायना, परिक्षण जाता. पुस्तकाची वळख करून दितात. पूण साहित्यिकांक आनी वाचकांक मार्गदर्शन करून, चिंतन करूक लावन तांकां नवो दिश्टावो घडोवपी साहित्य निर्माण करूंक आमकां गंभीर अपेस आयलां.

'जागा'च्या फाटल्या आंकांत आमी प्रकाश नायक हांचो निलबा खांडेकार हांच्या साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाबिल्ल्या 'द वर्डस्' ह्या कवितांझेल्या वयलो एक परखड लेख छापला. ताका लागून कांय प्रमाणांत खवदळ निर्माण जालो. कांय लेखक नाराज जाले. समिक्षा म्हणून अशी आसता? 'जागा'न आपलो दर्जो वगडायलो अशी करंदाय कांय जाणांनी केली. हो लेख खरेपणीं एक संपूर्ण समिक्षात्मक लेख नासलोच. ती कविता झेल्या वयली एक प्रतिक्रिया आसली. आनी ती उक्तावपाचो हक प्रकाश नायकाक आसा आनी ती उजवाडावपाचो अधिकार 'जागा'क आसा. आमी मानतात, लेखकाक जशें स्वातंत्र्य आसा, तशें तें टिकाकारांक आसूंक जाय आनी ते छापपाचे मासिकांक आसूंक जाय. इल्लेशे टिकेन जो अनमनता तो कसलो कवी/लेखक? आनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याची मक्तेदारी मिरोवपाची जापसालदारकी ताका एकल्याकूच दिल्या काय कितें? आमच्या लेखकांनी आतां सुरक्षीत कोशांतल्यान भायर येवपाची गरज आसा. ते बगर कोंकणी साहित्याची उंचाय वाडचीना आनी तें नव्या लोकां मेरेन पावचेंय ना!

समिक्षेचें मळ म्हणल्यार बुद्धीवंतांचो वाठार, समिक्षा म्हणल्यार वाचकाक आनी लेखकाक कठोर मार्गदर्शन. साहित्याचो दर्जो निसरचो ना पळोवप ताचें काम. देखुनूच आज समिक्षेची गरज आसा. संस्कृत भाशेंत समिक्षा नांवारुपाक आयिल्ली. हिन्दींतूय समिक्षेक मोटो वाव मेळ्ळो. तुलनात्मक रितीन मराठींतूय कठोर समिक्षा जायना. हे आदीं मराठीत ३०० ते ४०० पुस्तकां उजवाडां येतालीं. आज तीन ते चार हजार पुस्तकां येतात. कोंकणींत १०० तरी पुस्तकां येतात. देखून कितें वाच्चें, कितें बरोवचें हाचें मार्गदर्शन वाचकाक, लेखकाक खूब गरजेचें आसा. दुर्दैवान हो वावर जापसालदारकेन जायना. कठोर समिक्षा जाली जाल्यारूच दर्जेदार साहित्य निर्माण जातलें.

दुर्देवान आमचे कडेन नांव घेवपा सारके समिक्षक नात. ताका लागून चर्चासत्रां जायनात. पुराय तरेन साहित्याक ओंपिल्लीं नेमाळीं नात आनी समिक्षेचे नवे नवे प्रयोग करपी खाशेली मासिकांय उजवाडा येनात. हांगा परत मराठीचीच देख दीन दिसता. भालचंद्र नेमाडे हांच्या 'टीका स्वयंवर' ह्या ग्रंथान मराठींत खरेपणी समिक्षेक मानाची सुवात मेळोवन दिली. कथां-कादंबऱ्यांक मेळपी साहित्य अकादेमी पुरस्कार ह्या ग्रंथाक फावो जालो. तांणी समिक्षेची नवी वाट घडयली. साहित्यांत वास्तव कितें अशें विचारपी नेमाडेंनी नवो मार्ग सोदलो. ते आदीं मर्ढेकरान समिक्षेक कला म्हणून मानाची सुवात दिली. फुडें दलीत साहित्यान पारंपारीक समिक्षे सामकार खर आव्हान उबें केलें.

आदीं कोंकणींत १०-१५ पुस्तकां उजवाडा येतालीं. आज १०० येतात जाल्यार तातूंत कितें आसा आनी खंयचीं वाच्चीं हाचें मार्गदर्शन वाचकांक मेळूंक नाका?

कोंकणी अकादेमी वर्साक शेंकड्यांनी पुस्तकां विकतीं घेता. ५ ते १० लाख रुपया तांचेर खर्च करता. हो पयसो जाय तसो खर्च जाता, योग्य लेखकांक अनुदान मेळटा, त्या येवजण्यांची परतून आंखणी आनी नियाळ जावपाची गरज आसा काय ना हाचेर विचार अजून जायना. खरेपणीं कोंकणी साहित्यांत नवे प्रवाह तयार जातात काय ना, जातात जाल्यार ते कितें आसात, आनी वाचकांमेरेन ते पावूंक जाय, ताची नियाळणी समिक्षक करता देखून तो साहित्य आनी वाचक हांचे मदलोय पूल थारता.

सध्या शाळा ते विद्यापीठ पांवड्या मेरेन साहित्याचो अभ्यास जाता. म्हाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ पांवड्याचेर समिक्षा विशय आसा. पूण विद्यापीठ पांवड्याचेर समिक्षेक ओंपिल्ली पत्रिका अजून मेरेन उजवाडा येवंक ना. कोंकणी साहित्याचो बारीकसाणीन अभ्यास करून शिक्षण घेवपी विद्यार्थी नात म्हणून तशें घडटा काय, असो 'विचार' करपी शिक्षक ना म्हणून घडटा, हाचो नियाळ घेवपाचो वेळ आयला अशें आमकां दिसता. तसो वावर घडना. ताका लागून साहित्याचें लुकसाण जाता. आपणें कितें वाचूंक जाय हाचें मार्गदर्शन वाचकाक मेळना आनी आपणालें साहित्य कसल्या दर्ज्याचें आसा ताचें भान लेखकाक येना. ही परिस्थिती बदलची आसत जाल्यार बुद्धीमान वर्ग समिक्षे कडेन वळूंक जाय, समिक्षकांक व्यासपीठ निर्माण करून दिवंक जाय आनी त्या अभ्यासाक म्हत्व मेळूंक जाय. साहित्यीक संस्थांनी दर्जेदार साहित्याचेर, समिक्षेचेर चर्चासत्रां, परिसंवाद घेवंक जाय आनी तश्यो पत्रिका उजवाडा हाडप शिक्षण क्षेत्रांत सक्तीचें करूंक जाय.

समिक्षक नाशिल्ल्यान आमचे कवी आनी साहित्यीक साहित्याक नवे आयाम दितात व्हय, आविश्कार घडयतात, वेगळेपण केळयतात, ताचीय फावो ती दखल समाज घेना. हें वेगळेपण आनी मुल्यानिश्ठा वाचकांचे नदरेक हाडून दिवपाचो यत्न जायना. ह्या नव्या प्रयोगांचें आकलन वा दिश्टावो वाचकांक घडयता तो खरो समिक्षक!

कोंकणी साहित्यांत नव्यो जाणीवो आनी नवी नदर खात्रीन आसा. पूण ती दिमखुऱ्यांनी चलता. तिका फाटबळ दिवप, तिका तोखेवप आनी सभेमाजार तिचो सन्मान करप हेंय समिक्षक - टिकाकारांचें काम. दुर्दैवान कोंकणी साहित्यीक हे दिकेन सामकार वचूंक भियेतात कारण तांकां असले परखड समिक्षेची संवय ना, तांकां तोखणायेची संवय जाल्या आनी गोंयचो समाज 'ल्हान' आशिल्ल्यान आमी हे असले कर्तूब पचूंक दीत आयल्यात, मेळटा तसलें साहित्य वाचकांचे तकलेर थापीत आयल्यात. कोंकणी साहित्याचे भारतीय आनी संवसारीक साहित्याचे नदरेन मुल्यमापन अजून जावंक नाच. आमी भियेतात म्हणून तशें जायना, काय आमचे कडेन कठोर समिक्षकूच नात? आमचेर दडपणां कसलीं आसात, ताचीय हे निमतान चर्चा जावची अशे आमचे उमाळे.



# कोंकणी साहित्यकारांचें उद्दिश्ट आनी साहित्याचो फुडार

दामोदर मावजो

जेवन आड पडटा थंय आसां, तागेलो फोन आयलो, "तूं कित्याक बरयता?"

हांव चिंतूंक पडलों.

सुमार पन्नाशेक वर्सां फाटली गजाल. आचार्य काकासाहेब कालेलकर आमगेर आयिल्ले. अर्थात, रवीन्द्रबाब तांकां घेवन आयिल्ले. तांणी आस्थेन म्हजी चवकशी केली. आनी अचकीत प्रस्न केलो, "तुमच्या जीवनाची फिलॉसॉफी काय?" एका लेखकाक विचारिल्लो हो प्रस्न. हांव गोंदळ्ळों. जाप रवीन्द्रबाबान दिली. कितें दिली तें आतां याद जायना. पूण त्या प्रस्नान म्हाका येवजुपाक लायलें. हांव लेखक. कित्या खातीर बरयतां?

हय. हांव कोंकणी लेखक. म्हणल्यार रवीन्द्रबाबांनीच शिकयिल्लें सांगचें जाल्यार हांव कोंकणींत बरोवपी भारतीय लेखक. हांव कित्या खातीर बरयतां? म्हजे कडेन सांगपा सारकें कितें तरी आसा देखून. आयजवेर लाखांनी लोकांनी कुरोटांनीं पुस्तकां बरयल्यात तरी आसतनां म्हाका बरयन कित्याक दिसचें? तेंच तेंच परतून परतून सांगपांत म्हाका मज ना. तरी कित्याक बरयतां? कारण म्हजे कडेन वेगळें कितें तरी सांगपा सारकें आसा. रवीन्द्रबाबान महाभारत बरयलें. अनेक जाणांनी महाभारत आनी महाभारताचेर बरयलां तरी तांणी बरयलें; ताचें कारण तांकां महाभारतच पूण वेगळे तरेन सांगपाचें आसलें. हांवूय अनेक प्रस्नांचेर कथा-कादंबरी बरयतां तेन्ना म्हाका कितें तरी वेगळें वा हेरांनी बरयलां तेंच पूण वेगळे भाशेन सांगपाचें आसा, देखून.



हांव कोंकणींत बरयतां कारण ती भास म्हाका सगल्यांत चड बरी येता. इंग्लीश, मराठी वा हिन्दी भासांनीं बरयतनां म्हजे अभिव्यक्तीचेर मर्यादा पडटात. हाचो अर्थ कोंकणी ही खूब समृद्ध भास अशें हांव मानिना. खंयचीच भास पूर्ण समृद्ध आसना. इंग्लीश भास आयज संवसारार शेक गाजयता (हे पूर्ण सत्य न्हय) ताचें कारण हेर भासांतलीं उतरां वा वाक्यप्रयोग आपणायत ती गिरेस्त जाल्या. हांव शिकतासतना मराठीच्या अध्यापकान म्हणिल्लें- 'मराठींत फक्त पंधरा प्रतिशत शब्द मूळ मराठी असून बाकी सगळे इतर भाशांतून स्विकारलेले आहेत.' कोंकणी भाशेंतूय नीज कोंकणी उतरां थोडीं आनी इतर भासां कडल्यान उश्णी घेतिल्लीं वा आपणायिल्लीं उतरां चड आसात. एक फावट कोंकणीन ती आपणायलीं म्हणटकच तीं कोंकणी जालीं अशें समजुपाचें- जशीं जनेल, कपेल, कालेत, दुर्येत हीं पुर्तुगेजींतल्यान आयलीं तरी आतां तीं कोंकणी जालीं. सगल्या भाशांचें अशेंच आसता.

कोंकणी भास समृद्ध करपाचें उद्दीश्ट दोळ्यां मुखार दवरून हांव बरयना. पूण म्हज्या बरपा वरवीं जर कोंकणी उतरावळींत भर पडली वा घोळणुकेंतल्यान फाटीं पडिल्लीं उतरां सावचीत जावन पयतून घोळूंक लागलीं जाल्यार म्हाका खोस जाता. कोंकणी लेखक म्हूण एक यत्न मात जरूर करतां- नीज कोंकणी उतर वापरूं येता थंय दुसरें उतर वापरपाचें टाळटां. देखीक, पिड्ड्यार जालें वा बिगडलें म्हणचे सुवातेर इबाडलें आनी आरोग्य, प्रकृती बी म्हणचे सुवातेर भलायकी अशीं उतरां वापरतां. पूण दुसऱ्या लेखकांनी खोस जाली म्हणचे बदला आनंद जालो अशें म्हणलें जाल्यार तातूंत म्हाका गैर कांय दिसना. इतलेंच न्हय, कोंकणी साहित्यांत इंग्लीश उतरां आयल्यारूय तें चूक दिसना.

रवीन्द्रबाब म्हणटाले- 'हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर'. कोंकणी भास समृद्ध करप हें तांच्या जिविताचें मिशन आसलें. अशें करतना ते लेखक कशे जाले? कारण, विचारक ह्या नात्यान बरयतना तांणी आपल्या बरपांतल्यान समाजाक विचार करपाक प्रवृत्त केलो. हांव आनी म्हजे वांगडचे पुंडलीक नायक, मीना काकोडकार, शीला नायक कोळंबकार, एन. शिवदास, दत्ता श्री नायक, जयंती नायक- आमी ललीत साहित्य रचपी कोंकणीचे वावुरपी. ह्या सगल्या बरोवप्यां मदीं रायटर आनी फायटर आसा. रवीन्द्रबाब, उदयबाब हे पयलीं फायटर आनी मागीर रायटर. चंद्रकांतबाब, अनाबाब हे पयलीं रायटर आनी मागीर फायटर. हांव आनी वयर सांगिल्ले म्हजे वांगडचे लेखक हे दुसरे पंगतींतले. आमी साहित्याची साधना करतनाच भाशेचीय आराधना केल्या, सेवा केल्या आनी गरज पडल्या तेन्ना संघर्शूय केला. पूण आमचे खातीर कोंकणी हें साध्य न्हय तर साधन.

ललीत लेखना खातीर भास कशी वापरची, खंयचीं उतरां घेवचीं वा खंयचीं भायरावचीं हें दरेका लेखकान ते ते साहित्यकृतीची गरज पळोवन थारावचें आसता. रवीन्द्रबाबांनी 'रायटर-फायटर' हीं इंग्लीश उतरां कित्याक वापरलीं हाचो विचार जावचो. 'हांव बरोवपी न्हय, हांव झगडपी' अशें म्हणिल्लें जाल्यार तें तितलें प्रभावी जातासलें काय? चंद्रकांत केणीले एके कथेचें शिर्शक आसलें 'फॉर हर विंग्स वेअर वॅट'. तांणी अशें इंग्लीश कित्याक दवरचें? उपरांत तांणी तें 'ओलीं पाखां' अशें बदललें. घडये तांकां कोणूय इंग्लीश शिर्शक कित्याक अशें विचारपी मेळ्ळो आसुंये. पूण मूळ माथाळोच समर्पक आशिल्लो हें म्हजें मत्त हांवें तांकां स्पश्ट सांगिल्लें आनी तांणीय तें मान्य केल्लें. तांगेले आन्येके कथेचें नांव आसलें 'पोस्टमॉर्टेम'. तरी बरें तांणी तें 'शवविच्छेदन' अशें दिलें ना. तें बिलकूल सोबचें नासलें. तांगेलेच आन्येके कथेचें शिर्शक हिन्दी आसा- 'किस्सा मुर्गी का'. शशांक सीतारामालीय कथा आसा 'जोर जुल्म के टक्कर पे, संघर्ष हमारा नारा

है'. थंय कोंकणी माथाळो कित्याक दिलो ना? मॅल्विन रॉड्रीगस हांगेली एक कविता आसा- 'दुबाय गोल्ड्सूख'. तांणी तें 'भांगरा बाजार' अशें कित्याक केलें ना? म्हगेल्याय कांय कथांचीं शिर्शकां आसात- 'शी इज डॅड', 'हॅपी बर्थडे' अशीं. म्हगेल्या कथांनी, संवादांनी कांय इंग्लीश उतरांच न्हय, वाक्यांय येतात. तीं 'येतात'- कथेची गरज म्हूण येतात. कोंकणी भास समृद्ध आसतना इतलें इंग्लीश थंय कित्याक अशें प्रकाशक वा संपादक ह्या नात्यान रवीन्द्रबाबांनी वा सुमंतबाबांनूय केन्ना विचारलें ना. कारण तांकां जाण आसली, त्या त्या साहित्याची गरज म्हूण तीं थंय येतात.

साहित्य म्हणल्यार आमी आमकांच दाखयिल्लो हारसो. म्हणटकूच आमी जशे आसात तशेच आमकां दिश्टी पडटले. साहित्याची खासियत म्हणल्यार तें वाचकाक अशे तरेन अर्दसत्य दाखयता की उरिल्लें अर्दसत्य वाचकाक खरपणान होलमता. अशें म्हणूं येता, साहित्य आमकां सत्यांशांतल्यान पुर्णाभास दिता. देखून पुर्शी जिणेंत वा समाजजिणेंत जें वर्तता तेंच आमकां साहित्यांत दिश्टी पडटा. मागीर आमचेर आशिल्लो इंग्लिशीचो प्रभाव साहित्यांत दिसचो ना कसो? इंग्लिशीचें जें भूत आमचे गोमटेर बसलां ताचें अस्सल रूप लोकांक दाखोवपा खातिरूय ते भाशेन इंग्लीश उतरां ललीत साहित्यांत येत रावतलीं. मात एक खरें, इंग्लीशीक पर्याय ना असो संदेश वचूंक फावना. आनी तितली समजिकाय आमच्या सर्जक लेखकां मदीं खंडीत आसा.

कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय वाचकां मदीं पावोवची शें दिसल्यार हांव निबंद बरयन, ललीत साहित्य बरोवन समृद्धकाय सिद्ध करपाचो येत्न केलो जाल्यार वाचक म्हगेले भाशेची तोखणाय करतलो: पूण जें कितें सांगूक सोदतां तें लक्षांत घेवंक पावचो ना. 'सर्जकाची आंतरकथा' पुस्तकांत रवीन्द्रबाब म्हणटात- हांवें कितें सांगलां हाचें बदला कशें सांगलां हाचे कडेन वाचकाचें लक्ष गेलें जाल्यार निबंद 'फेल' जालो. हीच गजाल कथा, कविता, कादंबरेची. साहित्य हें भाशा समृद्ध करता हें खरें. पूण हांव तें दुसरे भाशेन पळयतां. जे भाशेंत साहित्य समृद्ध आसा ती भास गिरेस्त. जे भाशेंत पुंडलीक नायकां सारके नाटककार, महाबळेश्वर सैलां सारके कादंबरीकार, माधवबाब बोरकारां सारकें कवी आसात ते भाशेक दुबळी म्हणपाचें धाडस कट्टर मराठीवाद्याक लेगीत जावचें ना.

हांव जेन्ना अभिव्यक्त जातां तेन्ना म्हजो यत्न आसता- म्हगेल्या विचारांचेर त्या विचारांक सोब सारकी मुस्तायकी चडोवप. ही मुस्तायकी म्हगेली भास; विचारांक सोब सारकें ती न्हेसयता. गरजे प्रमाण अळंकार चडयता वा गोजदी पांगरायता. लेखकाचो हेतू त्या विचाराक सुंदर साळंकृत करपाचो नासता. शुद्ध हेतू आसता- विचार वाचका मेरेन पावोवप. ते खातीर तो भास वापरता ती सुयोग्य दिसता ती. अशें करतना कवीक वा लेखकाक अभिप्रेत आसा तें तशा तशें वाचका मेरेन पावतलें अशें नासता. तसो लेखकालोय अट्टाहास आसचो न्हय. वाचकांक आपणें सांगिल्लें सारकें होलमलें ना जाल्यार ताचो अर्थ वाचक मंदबुद्धी अशेंय लेखचें न्हय.

साहित्याचें मुल्यमापन काळा प्रमाण जाता. थोडें साहित्य रोखडेंच काळा भायरें जाता. थोडें उसरां मान्यताय पावता. फ्रांझ काफ्का ह्या लेखकाक एकलोय प्रकाशक लागीं धरिनासलो. ताणें बरयिल्ली 'मॅटामॉर्फोसीस' ही नवलिका वाचून बऱ्या बऱ्या जाणकारांनीं आनी प्रकाशकांनी नाका किल्शिल्ली. आयज ताका संवसारांतलो एक श्रेश्ठ साहित्यकार म्हूण वळखतात. उपरांत तर लिओ तॉलस्तॉय आनी महात्मा गांधी लेगीत काफ्काचे प्रशंसक जाले. पूण केन्ना? काफ्का १९२४ वर्सा मेल्या उपरांत ताची व्हडविकाय संवसाराक कळ्ळी. सांगपाचें म्हणल्यार, अभिरूची काळा प्रमाण, समाजा प्रमाण आनी मनशा कणकणी बदलता. आयचे घटकेक चेतन भगत हो लेखक भोव लोकां मोगाळ जाला. पूण चोखंदळ वाचकवर्ग ताका सामान्य लेखक अशें लेखता.

जणेका लेखकाची प्रकृती वेगळी आसता. तशीच वाचकाचीय आसता. कथा-कादंबरीच्या वाचकांक काव्य-कविता भावतलीच अशें ना. नागेश करमलीची कविता वेगळी आनी पांडुरंग भांगीली वेगळी. मनोहररायांली वेगळी आनी बाकीबाबांली वेगळी. पंडिताली तेय परस वेगळी. माधव बोरकार हांगेली कविता मितभाशी, गूढ आनी आशयघन जाल्यार रमेश वेळुस्कारांली कविता लोकसाहित्याचो बाज घेवन सैम आनी मनीस हांच्या अद्वैताक होरावपी. प्रकाश पाडगांवकार हो सैम आनी मोग हांचे परस समाजांतली विशमताय, दडपशाय आनी आपसुवार्थी आड पोट-तिडकीन बरोवपी. प्रत्येकाची तरा वेगळी. परेश कामत हांगेली कविता रंग, गंध घेवन येवपी सपनमोगी जाल्यार तांचोच समकालीन निलबा खांडेकारांली कविता बंडखोरीचो आवेश आनी आवेग घेवन येवपी. ह्या सगळ्यांनी कोंकणी साहित्य आनी साहित्या वांगडाच भाशेचे उदरगतीक हातबोट लायलां. कोणाची कोणा कडेन तुळा जावची ना. पूण तांचे कवितेची समिक्षा आनी अभ्यास जावप मात गरजेचें.

केन्ना केन्ना एखादऱ्याचें साहित्य बऱ्या बऱ्या वाचकांकूय अनाकलनीय जाता. वयर उल्लेख केल्ल्या फ्रांझ काफ्कालीं बरपां वाचून 'हो कितें सांगूंक सोदता तेंच कळना' अशें म्हणटाले. मराठींतलो ग्रेस हो कवी भोव क्लिश्ट कवी म्हूण ताका वळखतात. हो कवी ताच्या जिवितांत वादग्रस्त म्हूण चड गाजलो. ताची कविता देश-विदेशांतले व्यामिश्र संदर्भ घेवन येता. हॉलिवुडांतली अभिनेत्री इन्ग्रीड बर्गमन येता, नाझी जर्मनींतल्या अत्याचारांक बळी पडिल्ले ना फ्रँकाची डायरी येता, हिटलर येता, जर्मनी, अमेरिका आनी युरोप येता. ते भायर नेल्सन मंडेला सयत जायते फुडारी येतात. महाभारतांतली द्रौपदी आनी गांधारी सयत अनेक पात्रां येतात. कृष्ण, राधा, मीरा येतात. यमुनेंतलो कृष्ण-गवळणींचो धुसमुसळो उन्मुक्त शिरंगार येता. संत तुकाराम आनी कबीर येता. ताका कोणाचो आक्षेप ना. इंग्लीश उतरांय येतात. ह्या कवीन टोपण नांव घेतलें, तेंय इंग्लीश, 'ग्रेस'- कित्याक तें ताकाच खबर. खूब जाणांनी टिका केली, पूण ग्रेसान तांची पर्वा केली ना. ग्रेसाचे कवितेचेर 'दुर्बोध कविता' अशी टिका जाली. ताचीय ताणें पर्वा केली ना. बरयत रावलो. पूण जांकां कविता समजली ना तांणी एक मान्य केलें- 'कविता समजली ना तरी कवी कितें सांगूंक सोदता तें जाणवलें.'

ह्या आत्ममग्न कवीक आयल्या पयल्यान घडटा ताचेर कित्याक बरयन दिसना अशें कांय समिक्षक विचारताले. रमेश वेळुसकारांकूय

अशें विचारपी आसले. पूण कवी-लेखकान अमूक बरोवंक जाय वा अमूक बरोवंक जायना अशें सांगपी ते कोण? कवी ग्रेस हो दुर्बोध कवी अशें मानपी आजुनूय व्हडलो मराठी वाचकवर्ग आसा. कविता सगल्यांकूच समजुची अशी कोणाची अपेक्षा आसना. पूण दुर्बोध आसप हें वैगुण्य लेखूं येता? म्हाका मॉडर्न आर्ट समजताच अशें ना. लक्ष्मण पैचीं लेगीत थोडीं चित्रां म्हाका तकली फोडल्यारूय समजनात. हाचो अर्थ तीं वायट असो जायना. माधव बोरकारांली सगलीच कविता म्हाका कळटा अशें ना. म्हूण कवीक दोश दिवपाचो? एक गजाल याद जाली म्हूण सांगतां- पु.ल. देशपांडे इंग्लंडाक गेल्लो आसतना एडन्बरोंत पिकासोच्या चित्रांचें प्रदर्शन चलतालें. मुजरत गेलो. ताका एकाय चित्राचो अर्थ समजलो ना. थंयच आन्येकलो मनीस एक एक चित्र भोव मज घेवन बारीकसाणीन पळयतालो. तो दुसऱ्या चित्रा कडेन वचपाक घुंवलो तेन्ना पु.लन आदबीन ताका विचारलें- 'म्हाका एकाय चित्राचो अर्थ समजलो ना. तुमकां?' त्या मनशान दोळ्यांत दोळो घालून सांगलें- 'येत्न करतां. पळयतां पळयतां केन्ना तरी कळटलें हे आशेन. पूण हांव जाणां ते भाशेन पिकासोकूय तांचो अर्थ समजूंक नासलो.'

एखादरी कविता वा कलाकृती समजली ना जाल्यार दुशण कलाकाराक दिवंक फावना, आनी पळयतल्याकूय दिवं नजो. तिसरो कोणूय आसूं येता 'म्हाका आवडली' म्हूण सांगपी. रसीकांच्योय तरा तरा आसतात. ग्रेसाले कवितेक 'असंबद्ध शब्दजाल' अशें म्हणपी आसात तशे मराठी कवितेक समृद्ध करपी ताची कविता अशें लेखपी आसात. वाचपी सदांच कितें तरी नवें आनी बरें वाचपाच्या सोदांत आसता. तशें नाशिल्लें जाल्यार तो तेंच तेंच वाचून भूक भागयतलो आसलो. तेच भाशेन लेखकूय नवें आनी बरें कितेंय दिवपाच्या यत्नांत आसता. ताणें केल्लो प्रत्येक प्रयोग वाचकांक मानवतलोच अशें ना. चोखंदळ वाचक सदांच व्यापक नदरेंतल्यान दिल्लो नवो विचार सोदता. लेखकाचो दिश्टीकोण अशीर आसलो जाल्यार वाचकाक निर्शेणी येता आनी वाचपांत आपलो वेळ फुकट गेलो म्हूण रागूय येता.

साहित्यांत रामायण, महाभारत, अशोक, शांती, अहिंसा वा सूर्य, चंद्र, धर्तरी, नखेत्रां, पंचमहाभुतां हें सगलें आयलें म्हूण जशें साहित्य श्रेश्ठ जायना तशेंच तें आयलें म्हूण बरप उणाक थारना. म्हत्वाचें तें ह्या विशयां कडेन पळोवपाची लेखकाची नदर विश्वात्मक आसा वो ना, ल्हान-व्हड गजालीं कडेन तो आपलेपणान पळयता काय ना, ह्यो वस्ती साहित्यकृतीची गरज म्हूण आयल्यात वो ना. अखेरेक एक गजाल याद धरूंक जाय- जें बरें तें उरतलें आनी उरतलें तें रूप धरतलें.

साहित्यांत श्लील कितें, अश्लील कितें हाचेर सदांकाळ भासाभास जायत आयल्या आनी काळा प्रमाण ताची व्याख्या बदलल्या. श्लील-अश्लिलतायेचो संबंद समाजांतले नैतिकताये कडेन जोडिल्लो आसा. नैतिकतायेचे संदर्भ बदलत वतात तशे ते साहित्यांत परावर्तीत जाल्ले पळोवंक मेळटात. कालिदास धरून आयज मेरेन भारतीय साहित्यांत शिरंगाराचीं वर्णनां खूब आयल्यांत. कामसुत्र तर पुराय भारतीय. हिंदू धर्मांत पुरुषार्थाचीं धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष अशीं चार लक्षणां सांगल्यांत. तातूंत कामाक धर्मा इतलेंच म्हत्व दिलां. अस्तमतेचे देश त्या मानान काम विशयाचेर उलोवप-बरोवप हें वर्ज्य लेखपी. 'युलिसीस' कादंबरेंत 'हस्तमैथून' वर्णन केलें म्हूण अमेरिकेंत ताचेर कायद्यान बंदी घाल्ली. बारा वर्सांनी ती फाटीं घेतली. 'लेडी चॅटर्जीस लव्हर' पुस्तकांत एके गिरेस्त बायलेचो तिच्या चाखरमान्या कडेन संभोग दाखयिल्ले खातीर डी. एच. लॉरेन्स हाचेर कोर्टांत केसी चलताल्यो. एलन जिन्स्बर्ग हे कवीन 'हाउल' हे कवितेंत भोंकान संभोगाचो उल्लेख केल्लो ताकाय कोर्टाचीं सोंपणां झरोवचीं पडिल्लीं. हो जालो ५०-६० वर्सां फाटलो इतिहास. हालींची आनी घरची देख सांगतलों जाल्यार नामदेव ढसाळ ह्या अनेक राष्ट्रीय सम्मान जोडिल्ल्या मराठी कवील्या कवितांनी सगल्यो पोजड्यो गाळी वाचूंक मेळटात. पूण त्यो समाजीक संदर्भ घेवन आयल्यात. देखून दिलीप चित्रे सारक्या प्रगत विचारांच्या साहित्यकारांनीं ढसाळाक माथ्यार घेतलो. आमच्या कोंकणी साहित्यांतल्या म्हालगड्या लेखकाली, पुंडलीकबाबाली 'बांबर' ही नवलिका अशीच टिकेक कारण थारिल्ली. अश्लील, पोजडी म्हूण तिचेर आरोप जाल्ले. काशीनाथ शांबा लोलयेंकार हांचे कवितेकूय कांय सभ्य लोकांनी असभ्य थारायिल्ली. तीन वर्सां फाटीं विष्णू वाघाचेरूय अशेच आरोप जाल्ले. काळाचे कसवटेर हें सगलें उजवें थारलें

मानुशीकरण केल्ले कवितेक उद्देशून कवी निलबा खांडेकार जेन्ना म्हणटा - 'मातयेंत बोटां घालून बीज रोयलें, उदक शिंपलें तेन्ना कवितेंतल्यान भायर सरून तुवें म्हणलें -.' ही 'तूं' कोण तें कवी सांगना, तें वाचकाचेर सोडलां. 'तुजे योनींतलीं दोनूय बोटां भायर काडलीं' अशें म्हणटा तेन्ना योनी ही पिकाळ जमनी खातीर वापरिल्ली प्रतिमा अशें अनुमान काडूं येता. पूण ताचो दुसरो वा तिसरो अर्थ काडलो म्हूण कवितेचें कांय इबाडना.

जाणकार म्हणटात खंयचें साहित्य दुर्बोध आनी अश्लील तें काळ थारायतलो. म्हाका याद जाता, रवीन्द्रबाबान 'कार्मेलीन' एके सुबुद्ध मराठी वाचकाक वाचूंक दिली. तिणें ती रोखडीच परती हाडली खंय. 'पंचवीस पानां वाचलीं, इतलें अश्लील बरयतात तुमचे लेखक?' तिणें वयल्यान विचारलें. आतां हीच कादंबरी इंडियन नॉव्हेल कलॅक्टीव्ह हे संस्थेन क्लासीक म्हूण नव्यान अणकारून उजवाडावपाचें थारायलां. कालाय तस्मै नमः

कवी नामदेव ढसाळ कवितेंतल्यान व्यक्त जाता तेन्ना तो गाळयांची भास कित्याक बरयता असो प्रस्न म्हाकाय पडटालो. ताची जाप हांवेंच सोदून काडिल्ली. एखादरो विचार वाचक सपसप मानून घेना तेन्ना वाचकाक शॉक ट्रिटमेंट दिवपाचें तंत्र म्हूण ही भास वापरची पडटा. हेंच तंत्र दलित साहित्यानूय आपणायलें. शरणकुमार लिंबाळे जेन्ना अक्करमाशीचो अर्थ सांगता वा गोरवां फाटल्यान धांवन तांचें शेण धरून उदकांत धुतकूच जे मक्याचे दाणे चाबना-जिरनासतनां भायर पडटात ते एकठांय करून पिठो करून ताची भाकरी खातालों म्हूण सांगता तेन्ना होय एक शॉक ट्रिटमेंटच. वाचकाचें लक्ष येन केन प्रकारेण ओडून घेवप हो हेतू.

सगलेच लेखक एकूच उतरावळ वा भास वापरिनात. स्वताक अभिव्यक्त जावपा खातीर जेन्ना एखादरो लेखक तथाकथीत अश्लिलतायेक लागीं करता तेन्ना फुडाराक उपरासपी आरोपांक जाप

दिवपाची वा तांचेर आडनदर करपाची ताची तयारी आसूंक जाय. कसलीय टिका सोंसपा इतली लेखकाची कात निबर आसूंक जाय. टिकेके फुडो करपाची खंबिरताय केन्ना येता? जेन्ना आपल्या बरपाचेर आपलो पुराय विस्वास आसता. टिका जायना फुडें आंगार खरचटे उदेतात तांणी लेखनाचे वाटेक वचचें न्हय वा नवें-वेगळें दिवपाचो विचार करचो न्हय.

आमचे कडेन समिक्षक नात वा उणे आसात ही आमची व्यथा नवी न्हय. मागीर आमीच तें रितेंपण भरून काडपाचो येत्न केल्लो. तितले खातीर दामोदर मावजो वा हरिश्चंद्र नागवेंकार हांची समिक्षा ही आस्वादक जावंक पावली. परखड समिक्षा करपी खूब थोडे. समिक्षा शास्त्र समजून घेवन जो मेरेने समिक्षा जायना तो मेरेन आमच्या साहित्याचो दर्जो वाडूंक पावचो ना. पूण समिक्षक नात म्हूण कोणें परखड समिक्षकाचो आव हाडून टिका करची न्हय. तशें केल्यार प्रतिमा, भास आनी प्रतिकांची विदर्णा जावन वडाची साल पिंपळाक लागपाची शक्यताय उपरासता. सुरवेच्या आलायत्या समिक्षकांचे उमेदवारीच्या काळांत जे बरयताले ताच्यो दोन देखी दितां- 'अमक्याच्या अमूक पुस्तकांत 'सैम' हें उतर सत्तावन वेळा आयलां. हाचे वयल्यान लेखकाक आशिल्लें सैमाचें आकर्शण सिद्ध जाता.' वा 'पुंडलीकाल्या कथांनी अमूक वेळां 'माजर' येता आनी मावज्याल्या कथांनी 'गाडी' येता हाचे वयल्यान तांच्या साहित्यांत थळावे संदर्भ दिश्टी पडटात'. समिक्षेचें खरें मुळावण घालें तें डॉ. किरण बुडकुले हांणी. तांणी शास्त्रीय बसका दिली आनी साहित्याचें मुल्यमापन जावंक लागलें. डॉ. बाळकृष्ण कानोळकार, एस. डी. तेंडुलकार, डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांणी हो वावर फुडें व्हेलो. मोलावणेक अर्थ आयलो. पूण जितल्या नेटान हो वावर फुडें वचूंक जाय तितलो वचना अशें खंतीन म्हणचें पडटा. हालींसराक तर सोशल मिडियाचे वांगडीच समिक्षकांचें सवंग सोबयतना दिश्टी पडटा. कोणालीय सुमार कविता वाचून पन्नासेक 'आखाणे' आनी शंबरेक 'लायक्स' मेळटकच आमच्या कवींक सातवें मळब चार आंगळां उरलां शें दिसलें जाल्यार अजाप न्हय. कोणाकूय वायट दिसतलें म्हूण स्पश्ट सांगप ना वा मुजरत कोणाकूय वायट दिसचें म्हूण टिका करप ह्यो दोनूय गजाली साहित्याक मारक. तशेंच हांवें बरयलां तें अंतीम, पुरस्कारप्राप्त पुस्तकाचेर बरोवपाचो कोणाक अधिकार ना अश्या भ्रमांत लेखकानूय रावन उपकारचें ना.

कोंकणी साहित्यीक मळार वावुरतना आमी चतरायेन वागप खूब गरजेचें. आमच्या म्हालगड्यांनी कशे तरेन त्यागपुर्वेक मुळावण घालून दिलां ताचें स्मरण दवरूंक जाय. उदयबाब, पुंडलीकबाब, हेमाबाय, हे आमचे बुनयादीचे चिरे. उदयबाबालो विरोधकांचे फाटीचो कणो मोडपाचो आनी कोंकणीचें इन्फ्रास्ट्रक्च्यर बांदून काडपाचो मुळावो वावर, पुंडलीकबाबाचे साहित्यीक मळाचेर केल्ले प्रयोग आनी कोंकणी प्रजेचो आवाजचें फुडारपण, नागेशबाबाच्या फुडारपणा खाला एकठांय आयिल्ल्या तरनाट्यांचें लळितक, हेमाबायन 'चित्रंगी'चे सत्रे खाला संघटीत केल्ल्या बायलांचें योगदान, कसलेय गरजेक कसल्याय कामाक फाटीं-फुडें पळयनासतना वेंग मारपी एंथनी वाझ, रमेश कोमारपंत, मार्टीन मिनीन फेर्नांदीश, अश्या लोकांनी सुगूर दवरिल्लें कोंकणीचें दायज 'अजून आसात पिडपी हांगा' हें लक्षांत दवरून आमी जतनायेन सांबाळूंक जाय. आमी सगले एक हे भावनेन वावरूंक जाय. आमी एकमेकांक 'चड लागींच्यान' वळखतात ही गजाल साहित्याचे उदरगतीक मारक थारूंक फावना. टिका करतल्यांनी तटस्थपणान उजू समिक्षा करची आनी टिका स्विकारपाची दिलदारी लेखकान दाखोवची. अशें जातलें तेन्ना साहित्यकृती आनी समिक्षालेखन हातांत हात घालून चलतलीं आनी एकामेकांक पुरक थारतलीं. तातुंतल्यानच कोंकणी साहित्याचो उज्वल फुडार घडटलो.

संपर्क: ९४२२०५९५०९



# परखड समिक्षेक कोंकणी साहित्यीक खऱ्यानींच तयार आसात व्हय?

**सखाराम बोरकार**

आयज कोंकणींत खूब प्रमाणांत साहित्य निर्मणी जाता. सादारणपणान दिसाक एक अशें पुस्तक उजवाडाक येता. अशें साहित्यीक मळार घडपी कोंकणी ही भारतांतल्या कांय फुडारिल्ल्या भासांमदली एक भास.

हें घडपा फाटलीं कारणां खूब आसात. तिरायताक दिसूं येता की गोंयांत साहित्यीक क्रांती बी घडल्या. सगळेच लोक कोंकणी पुस्तकां घेवन वाचतात. तशें आशिल्लें जाल्यार बेस बरें जावपचें. पूण दुर्दैवान तशें घडना. आयज गोंय सरकाराच्यो खूप येवजण्यो आसात, केंद्र सरकाराच्यो आसात, कोंकणी आकादेमीच्यो आसात आनी ते खातीर पुस्तक छापपाचो खर्च आपसुकूच भरून येता. उरिल्ल्यो पुस्तकाच्यो प्रती खपोवन प्रकाशक फायदो मेळयता. हांतल्यो कांय प्रती खपनासतना उरल्यो म्हण प्रकाशकाक व्हडलो फरक पडना.

ही जाली वेवसायीक प्रकाशकांची गजाल. हें सगळें पळोवन पावसांत फुलून येवपी अळम्या भशेन कांय वांयगण्यो प्रकाशन संस्था तयार जाल्यात. हे वेवसायांत आशिल्लो फायदो पळोवन स्वता लेखकच प्रकाशन वेवसायांत भितर सरल्यात. जर लेखक सरकारी नोकर आसत तर ताणें आपल्या बायलेच्या नांवान वा आपल्या सोयऱ्याच्या नांवान (जांकां साहित्यांतलें 'ओ काय ठो' तें कळनां), अश्यो प्रकाशन संस्था उघडल्यात. आनी त्यो आपल्याच लेखकाचें साहित्य उजवाडायतात. हाचे खातीर कोंकणी साहित्य निर्मणेंत जरी भर पडली तरी साहित्याचो दर्जो दिसान दीस देंवत आसा हाची वाचक आनी अभ्यासक खंत उकतायतात.

आयज आमच्या वेवसायीक प्रकाशकां कडेन संपादक वा 'संपादक मंडळ' ना जो ताचे मुखार आयिल्लें पुस्तक छापचें वा ना हें, वा तातूंत कसले बदल घडोवंचे हें सुचयतलो. पूण सध्याक अशी परिस्थिती आसा कीं लेखक ह्यो सुचवण्यो मानून घेतलो व्हय? 'मौजे'चो श्री.पू. भागवत जशें करताले आनी लेखकय ताच्यो सुचोवण्यो मानून घेताले अशे संपादक आमकां आज कोंकणींत मेळत व्हय? जर वेवसायीक प्रकाशकान आपलें पुस्तक छापलें ना तर हांवें वयर म्हणलां तशें आमचे कोंकणी लेखक आपली प्रकाशन संस्था काडून पुस्तक छापून मेकळे! ते खातीर आयच्या घडये कोंकणी साहित्यांत 'कोयर' वाडत चल्ला.

आज कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावपाची गरज आसा अशें मत सगळे जाण विंगड-विंगड माचये वयल्यान उकतायतात. एका काळार जेन्ना कोंकणींत साहित्य उणें आसलें तेन्ना साहित्याच्या दर्जाचेर आडनदर जाली हें समजूंक येता. पूण आयज हें साहित्य कसाक लावप गरजेचें. कोंकणीक साहित्यीक भास म्हण मान्यताय मेळटगीच पंचेचाळीस वर्सां उपरांतय आमी 'कोयर'च निर्माण करतले व्हय? ते खातीर कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावंची गरज आयज चड उपरासल्या.

आज मेरेन कोंकणी साहित्याची परखड अशी समिक्षाच जावंक ना. जाल्या तीं फकत आस्वादनां वा परिक्षणां. भौ. एस. डी. तेंडूलकारान आपल्या 'वालोर' ह्या पुस्तकांत आनी मागीर 'बिम्ब' म्हयनाळ्यांत अशी समिक्षा करपाचो यत्न केलो.

हे वेळार म्हाका कांय उदारणां दिवचीं दिसतात. कांय वर्सां आदीं 'जाग' म्हयनाळ्यांत एका म्हालगड्या कवीन कविता बरयली (आयज हो कवी आमच्या मदीं ना). कविता बरी आसली पूण कवितेच्यो निमण्यो वळी आसल्यो की कविता वाचप्यांक समजतली काय ना हाचो दुबाव आसा. जागाच्यो संपादक, स.माधवीबायन, तो कवी एक म्हालगडो कवी हें जाणा जावन लेगीत ते कवीतेचेर आक्षेप घेतलो आनी आपले संपादकीयांत वाचप्यांची कुवत वयर काडपाचो कवीक कसलो अधिकार आसा असो प्रस्न केलो. ह्या म्हालगड्या कवीक तें उस्तुऱ्यां गेलें आनी कांय काळ ताणें जागांत बरोवपाचेंच सोडलें. पूण 'जागा'ची प्रतिश्टा इतली आसा की ताका थोड्या काळा उपरांत 'जागां'त परत बरोवंचें पडलें.

वयर हांवें उल्लेख केला त्या भौ. एस. डी. तेंडूलकारानय प्रस्थापीत आनी नवोदीत साहित्यीकांच्या साहित्याची समिक्षा करपाचो येत्न केलो. पूण ती समिक्षा कांय प्रस्थापीत लेखक जे आयज कोंकणींत परखड समिक्षा जाय अशें म्हणटात तांकांय उस्तुऱ्यां गेली. हो कोण आपल्या साहित्याचेर टिका करपी? परखड समिक्षा दुसऱ्याल्या साहित्याची करची, आपल्या न्हय असो कांयसो तांचो सूर दिसलो.

आमचे कोंकणींत आमी कांय श्रद्धास्थानां मानल्यांत. तांचें साहित्य म्हणल्यार SACRED. एके काळार उंचेल्या दर्जाचें साहित्य बरोवपी ह्या प्रस्थापीत लेखकांचे साहित्याचो दर्जो आयज दिसान दीस देंवत चल्ला. आपणे केन्ना थांबचें हें ह्या साहित्यीकांक कळना. मराठींतले नामनेचे कथाकार स. जी.ए. कुलकर्णी हांकां जेन्ना आपल्या कडल्यान उंचेल्या दर्जाची साहित्य निर्मणी जायना हें समजल्या बराबर तांणी बरोवपाचेंच सोडलें. हें आमच्या तथाकथीत प्रस्थापीत लेखकांक केन्ना कळटलें? आपणे बरोवपाचें बंद केल्यार आपूण Limelightतल्यान पयस वतलो, आपल्याक लोक विसरतले असो भंय हांकां दिसता.

तांच्या साहित्याचो दर्जो देंवला हें तांकां कोणच सांगूंक धजना. कित्याक तर हांचे कडेन तांचे हीत संबद आसात. आपल्याक पुरस्कार मेळटलो जाल्यार हांचे पांगेत रावंक जाय हें सत तांकां होलमलां. त्या

खातीर तांच्या साहित्याची समिक्षा करपाक कोण धजना. 'राजा नागडो आसा' हें सांगपाक आज बिरबलाच्यान जावचें ना ताका बिरबलाची निश्पाप चलीच जाय.

हे वेळार म्हाका डॉ. नंदकुमार कामत हांची फ़ेब्रुवारी २०२० म्हयन्यांत 'जागा'च्या अंकांत आयिल्ल्या 'नव्या शतमानांतली डायरी: २' ह्या लेखांतल्या एका म्हत्वाच्या मुद्याकडेन वाचप्यांचें लक्ष ओडचें अशें दिसता. ह्या लेखांत डॉ. नंदकुमार कामत म्हणटात आयज मेरेनच्या कोंकणी समिक्षेचो नियाळ केलो जाल्यार दिसता ती सगळी सभिक्षाच (भिक मागून समिक्षा जाता तिका सभिक्षा म्हणटात.) सभिक्षाकांतलो आनीक एक प्रकार म्हणल्यार स्वभिक्षक- आपल्याच बरोवपाचेर उलोवपी, बरोवपी सभिक्षक. हातूंतले कांय स्वभिक्षक 'हांवें ही कादंबरी कशी बरयली' ना जाल्यार 'म्हज्या कादंबरेची कथा', 'म्हज्या कवितेची काणी', 'म्हज्या अमक्या कवितेंतली प्रतिमा सृश्ट' अशें बी बरोवपाक लागले. डॉ. कामत हांणी बरयलां तें शें प्रतिशें खरें आसा. हाका जोडून हांव म्हणीन की आपलें साहित्य इतल्या उंचेले दर्जाचें आसा कीं तें वाचकांच्या आनी समिक्षाकांच्या तकले वयल्यान वता आनी ते खातीर ते आपल्या साहित्याची दखल घेनात अशें म्हणपीय आमचे कांय साहित्यीक आसात.

आयज आमच्या म्हालगड्यांनीं कांय नवोदीत साहित्यिकांक इतले माथ्यार चडोवन दवरल्यात की आयज तांच्या साहित्याची जरी समिक्षा केली, तांकां कांय सुचोवण्यो केल्यो तर त्यो तांकां आवडना. आपूण एक व्हड साहित्यीक असो तांचो 'गोड' गैरसमज जाल्लो आसा. आनी ते खातीर आयज कोंकणी साहित्याचो दर्जो देंवत आसा. एका काळार भाई मावजो आनी माधवबाब बोरकार सुनापरांताच्या आयतार पुरवणेंत 'आपरोस' ह्या सदरांत नवोदीत साहित्यिकाच्या साहित्याचेर (कथा आनी कवितेचेर) काय काळ बरयताले. नवोदीत साहित्यिकांक मार्गदर्शन करताले. आयज ही परिस्थीती उरल्या? आयज सोशल मिडीयाचेर मेळपी आंगठ्याचेर हे नवोदीत साहित्यीक जगतात. बाकीबाब बोरकार म्हणटाले तशे हो काळ सिद्धीचो न्हय तर प्रसिद्धीचो!

आयज खंयच्याय कोंकणी साहित्यिकाक आपल्या साहित्याची परखड समिक्षा केल्ली नाका. तांकां टिका सोंसना. तांका फकत आपली तोखणाय आयकून घेवपाची संवंय जाल्या. टिका आयकून आत्मसंशोधन करपाची तांकां गरज भासना. मागीर तो त्या समिक्षकाची कुतां काडटा, ताची लायकी वयर काडटा. तार्चे वाचन कितलें? ताची साहित्याची जाण कितली? ताची कुवत कितली? अशे प्रस्न तो त्या समिक्षकाक विचारता. आनी हाका लागून साहित्याची परखड समिक्षा करपाचे भानगडींतच कोण पडना.

हाका कांय समिक्षकय जापसालदार आसात. थोडे तथाकथीत समिक्षक, साहित्याची समिक्षा करपाचें सोडून व्यक्तीगत उणी दुणी काडटात आनी आपली भितरली 'खाज' भागोवन घेतात. तांच्या समिक्षेक 'कोल्याक द्राक्षां आंबट' जाल्याचो भास येता. समिक्षा बरयतना तर्कशुद्ध विचार मांडपाक येवंक जाय. मुळांत समिक्षकाक साहित्याची बरी जाण जाय. एकाद्री कलाकृती वायट कित्याक हें ताका तर्कशुद्धपणान सांगपाक येवंक जाय. कांय वेळार साहित्य परवडलें, पूण ही समिक्षा न्हय अशें वाचप्यांक दिसल्या बगर रावना. पूण ह्यो गजाली सामक्यो थोड्यो.

खरें सांगू ! कोण कितलेंय म्हणूं कोंकणींत आमकां परखड समिक्षा, जाय परखड समिक्षा जाय, ती समिक्षा आपल्या साहित्याची न्हय तर ती दुसऱ्याच्या साहित्याची. आपल्या साहित्याची परखड समिक्षा केल्ली कोणाकच हांगा नाका. हेंच खरें सत जावन आसा. ही वृत्ती जो मेरेन बदलची ना तो मेरेन कोंकणींतलो साहित्यीक 'कोयर' वाडत रावतलो.

संपर्क: ९९२३३०६७५१

---

## कोंकणी साहित्यांत इंग्लीश उतरां

## पडसाद

एप्रील-जूनच्या, जागाच्या आंकांतलो, प्रकाश द. नायक हांचो, ''समृद्ध कोंकणीतंली उतरां, ''ध वर्डस् आनी ताचें शवविच्छेदन'' हो परखड लेख वाचलो आनी तातूंत तांणी कांय मुद्दे हाताळल्यात, तातूंतल्या एका मुद्द्या विशीं.

तो मुद्दो म्हणल्यार, कोंकणी लेखांनी आनी कवितांनी इंग्लीश उतरांची जाता ती भरस.

कोंकणी भाशेच्या समृद्धतायेची देख, तांणी आपल्या लेखांत मांडल्या!

जर कोंकणी भास समृद्ध आसा, तर कांय लेखक आनी कवी आपल्या बरपांत इंग्लीश उतरां, साबार कडेन भरशितात तें मनांक पटना!

भाशेची शुद्धताय आनी समृद्धताय आनी तिची अन्य आंगांय सांबाळप, ही कवी आनी लेखकांची जापसालदारकी ना व्हय? तांणीच जर ती सांबाळ्ळी ना, तर सर्वसादारण वाचक ती कित्याक सांबाळत. तशें पळयल्यार आयच्या काळांत आमी शुद्ध भाशेंत उलयचनात! इंग्लीश उतरां, जबर वापरतात. पूण साहित्यीकांनीय तशेंच केल्यार कोंकणी भास शुद्ध उरतली व्हय? निखालस ना!

इंग्लीश उतरां आसात तशींच कोंकणींत घेवची न्हय त्या अर्थाची संस्कृत, प्राकृत वा अन्य देशी भाशांतल्या उतरांनी, तत्सम वा तद्भव उतरां घडोवची अशें म्हाका दिसता.

**दिनकर मुरकुंडे,** सांत इनेज
संपर्क: ७८७५२२८४५६

# लोकगितांतल्यान जावपी कोंकणीचो समाज-भास-विज्ञानीक अभ्यास

डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

आजचो विशय आसा 'लोकगितांतल्यान जावपी कोंकणीचो समाज-भास-विज्ञानीक अभ्यास ह्या विशयाचे तीन घटक आसात. १. लोकगीत, २. तांतल्यान दिसपी समाजाचें पडबींब आनी ३. कोंकणी भाशेचीं तरेकवार रुपां. लोक गितांतल्यान केळयिल्ली कोंकणी भास आनी कोंकणी मनशाची जीण. कोंकणीचो समाज-भास-विज्ञानीक नदरेन लोकगितांचो विशय खूब गरजेचो. कारण तांतल्यान केळयिल्ले भाशेक, तांतल्या संकल्पनांक आनी भौसाच्या उतरावळीक शेकड्यांनी वर्सांची परंपरा आसता. हें भाशीक दायज म्हणल्यार खंयचेय भाशेची खरी गिरेस्तकाय आनी सोबीतकाय आसता.

पयलीं आमी 'लोकगीत' (Folk Song) ह्या उतरा विशीं उलोवया. आजवेर खूबश्या संशोधकांनी लोकगिताच्यो तरेकवार व्याख्या केल्यात. पूण हांगा लोकगिताची हांव साधी, सुटसुटीत व्याख्या सांगची जाल्यार सांगन-मौखीक परंपरेन चलत आयिल्लें समूहाचें गीत तें लोकगीत. मुळांत 'लोकगीत' ह्या उतराचो. जेन्ना हांव खोलायेन विचार करतां तेन्ना म्हजो ताचेर आक्षेप आसा. तो हांव मागीर मांडूक सोदतां. पूण मुळावो विशय कोंकणी लोकगितां संबंधी आशिल्ल्यान तेंच उतर सध्याक हांव फुडें व्हरतां. लोकगीत हें एक कवन. तें गेय पद्धतीन मुखावाटे परगटता. तें कवन म्हणल्यार लोक मानसाचो, सामुहीक भावनेचो तो एक संस्कृतीक आविश्कार आसता. ती समूह-प्रतिभेची निर्मणी आसता. सैमांतली लय आनी ताल तेच प्रमाण अवकाशांतलो अनाहत नाद घेवन सभावीक रितीन तें परगटता. हाचो दुसरो अर्थ सांगचो जाल्यार संगीत आनी नृत्य हो लोकगिताचो स्थायीभाव आसता. त्या कवनाची मुळावी निर्मणी ही अनामीक व्यक्ती कडल्यान जाता. मात ते निर्मणे फाटली प्रेरणा ही समूह-मनाची आसता. म्हण उपरांत ती निर्मणी भौशीक जावन तांचें सामुहीक आविश्करण जाता.

लोककवनांच्या वा लोकगितांच्या निर्मणे फाटले प्रेरणेचो सरांव घेता तेन्ना आमकां मानवी संस्कृतीचे दोन म्हत्वाचे वांटे दिसतात. ते दोन वांटे म्हणल्यार १) अध्यात्मीक वा चैतन्य-स्वरूप संस्कृती (Spiritual, Culture) आनी २) भौतीक संस्कृती (Material Culture) आदीम काळांत मनशान सैमा वांगडा जीण सारली. तेन्ना ताका आपली जीण जगोवपा खातीर आदार आशिल्लो तो सैमाचोच. ताका सदांच अणभवाक येतालें तें ब्रह्मांड, आकाश, सूर्य, चंद्र, नखेत्रां, धुमकेतू, पृथ्वी, काळोख, उजवाड, म्हणल्यार रात-दीस, थंडी-वत, पावस, वारें वादळां, वावटळी, वणवे, हुंवार न्हंयो, दर्‌यें आनी सरभोंवतणीं तरेकवार जातीचीं सावदां, सुकणीं, सोरोप, उदकांतले प्राणी. ताका सैमाची विशाळताय होलमली. सैमा कडेन आशिल्ली अफाट आनी अचाट शक्त हाची तो कल्पनाच करूंक शकना जालो. म्हण्टगीर ताणें सैमाक शरण वचून ताचीच आराधना आनी उपासना सुरू केली. आपल्या भोंवतणचो सैम, पुराय ब्रह्मांड हें निराकार आशिल्ल्यान ताणें तीं आपलीं दैवतां मानलीं. ती दैवतां निराकार आशिल्ली. (Uniconic.) मागीर ताचे नदरे-मुखार सदांकाळ थरावीक अंतरान येवपी सूर्य आनी चंद्र, ते ताणें आपले जिणेचे स्थीर बिंदू (fixed points) मानले. तांतल्यान शाश्वतची कल्पना म्हणल्यार सासणाचें म्हणल्यार सूर्य-चंद्र आसा मेरेन ही कल्पना परंपरेन रूढ जाली.

कारण ते अक्षय, अक्षुण्ण केन्नाच ना जावपा सारखे न्हय. धर्तरमाय ताचे खातीर अन्नवर जाली. म्हारू, भुतां, पिशाच्च हांकां तो थातारूंक लागलो. तांकांच मनीस शरण गेलो आनी आराधना - उपासना करतां करतां ताचे जिणेक थिरताय आयली. मागीर ताची वाटचाल भौतीक संस्कृती वटेन जावंक लागली. निराकारा कडल्यान तो आकाराची (Iconic) वाट चलूंक लागलो. शेतां कामतां, शाक-भाजी, आवतां-आयदां ताचे जिणेचो वांटो जालीं. ताचें कुटुंब म्हणल्यार घराबो, तांतलीं नातीं-गोतीं, धर्म, कुळाचार ह्यो संकल्पना रुपकारा येवंक लागल्यो. पुजा, उत्सव, वाजप, नाच, गाणीं अशीं भौतीक संस्कृतीची तरेकवार रुपां आकारूंक लागलीं.

सरभोंवतणचो सैम, तांतले अद्‌भूत आनी आकलना भायले असंख्य घटक आनी नव्यान सामकारा येवपी संकल्पना हांतल्यान ताच्याच मनांत एके तरेचो गोंधळाचो आनी अराजकतेचो भंय निर्माण जालो (Psychotherapy) म्हण ताणे एके गजालीचेर घट्ट विस्वास दवरलो. तो म्हणल्यार चंद्र, सूर्य, तारे, देव, पृथ्वी, (धर्तरमाय) हेच अद्‌भूत शक्तींक (spirits) लागून हें जग चलता. तांतल्यान ताणें सैमांतले सोबितकायेचो सोद घेतलो आनी आपल्या निरागस मनांतले प्रेरणे वरवीं काव्य रचलें. तें गेय पद्धतीन भायर सरलें आनी ताचें गीत जालें. ताका सुरावट मेळ्ळी. मागीर सैमांतली लय आनी ताल मेळ्ळो. भोंवतणच्या भौसाचो आशिर्वाद मेळ्ळो आनी तें कवन सगल्यांच्या अभिव्यक्तीची कुरू (खूण) जावन बसलें.

लोकगिताचें आनीक एक म्हत्वाचें लक्षण म्हणल्यार ताची आवाहनात्मकता. लोकगीत आयकतल्याचें मन सट्ट करून ओडून घेता. ताचें कारण ही अंतर्भूत आशिल्ली आवाहनाची शक्त. लोकगिताची भास सादी सरळ आसता. पूण तातूंत अर्थाचे नदरेन तरेकवार थर (Multi-layered) दिसतात. वयलेचाराक तुका सादो अर्थ दिसता. पूण जेन्ना एखाद्रो अभ्यासक खोलायेन विचार करता तेन्ना ताका त्या गिताचे एका परस चड अर्थ मेळूंक लागतात. आमच्या लोककाव्याचे रचनेंत खूब सांकेतिकता दिसता. वयलेचाराक एक अर्थ आनी सांकेतीक नदरेन वेगळे वेगळे अर्थ लागतात. तुमकां होलमता तो तुमी घेवपाचो. देखी खातीर हांव एक चौरंगाचें गीत घेतां.

*कवळाशीं सोबा कोणाची रे देवांनो*
*कवळाशीं सोबा देवांची मूं*
*आकाशीं सोबा कोणाची रे देवांनो*

*आकाशीं सोबा सूरयाची मूं*
*पाताळी सोबा कोणाची रे देवांनो*
*पाताळीं सोबा शेकाची मूं*

*मिरतीलोकीं सोबा कोणाची रे देवांनो*
*मिरतीलोकीं सोबा पंडवांची मूं*
*गोठ्यांत सोबा कोणाची रे देवांनो*
*गोठ्यांत सोबा वासराची मूं*
*घरांत सोबा कोणाची रे देवांनो*
*घरांत सोबा बाळकाची मूं*
*हुमऱ्यार सोबा कोणाची रे देवांनो*
*हुमऱ्यार सोबा लक्षुमीची मूं*
*सौ(चौ)कार सोबा कोणाची रे देवांनो*
*सौकार सोबा पुरीसाची मूं*
*पुर्साक सोबा कोणाची रे देवांनो*
*पुर्साक सोबा मुंडाश्याची मूं*
*मुंडाश्याक सोबा कोणाची रे देवांनो*
*मुंडाश्याक सोबा तुऱ्याची मूं*
*भांडसाक सोबा कोणाची रे देवांनो*
*भांडसाक सोबा अस्तुरेची मूं*
*अस्तुरेक सोबा कोणाची रे देवांनो*
*अस्तुरेक सोबा शिनोराची (सिंदूर) मूं*

ह्या गितांतलो वयलेचाराचो अर्थ सगल्यांच्याच मतींत येतलो. दर एके सुवातेर कोणाची सोबा कोण आसता हें हांतल्या लोक कवीन सांगलां.

पूण खोलायेन ह्या कवनाचें विश्लेशण केल्यार जण एकल्याक वेगळो अर्थ होलमप शक्य आसा.

हातूंत मनशाच्या अस्तित्वाचें गूण दाखोवपा खातीर ताणें हांगा एक वैचारीक स्थापना केल्ली दिसता.

पयलो घटक आसा तो वैश्वीक - Cosmic थंय देव, सूर्य, चंद्र, नखेत्रां आसतात. तें आकाश. दुसरें पाताळ - Neather world आनी तिसरें मिरतीखंड म्हणल्यार भूलोक -पृथ्वी - धर्तरमाय.

पयली देवाची होरावणी हो ताचो स्थायिभाव. ताची आराधना केल्या बगर तो फुडें वचना. मागीर ताचो क्रम थरिल्लो दिसता. सगल्यांत पयलीं सूर्य, सूर्य म्हणल्यार उजवाड, उश्णता, ऊर्जा, कार्यशक्ती, ताचे redience तो जिवन-दाता- Life giver, तोच मळबाचो शृंगार, साज. ताकाच लागून सृश्टीची निर्मणी जाल्या म्हण ताका सर्वोच्च स्थान. मागीर पाताळा विशींची लोक परंपरेंतली संकल्पना म्हणल्यार आमची धर्तरमाय ही पाताळांतल्या शेषान आपल्या फोडांचेर तोलोवन धरल्या.

शेष म्हणल्यार पाताळाची सोबा. मिरतीलोकांत म्हणल्यार भूंयेवयली सोबा म्हणल्यार वीरत्व. अन्यायाचें परिमार्जन करून न्यायाची थापणूक करून मनीस जातीक थाकाय दिवपी लोक ही धर्तरमायेची सोबा. गोपालक संस्कृतीचें दायज हें आमचे भारतीय संस्कृतीचें पूर्वीलें आनी अर्वीलें रूप. म्हण आमचे लोक परंपरेंत गावलेक म्हणल्यार गायत्रीक भौमानाची सुवात दिल्या. गाय ही ऐश्वर्याचें आनी समृद्धीचें प्रतीक. तिकाच लागून आमची कृषी संस्कृती फळादीक जावंक पावल्या. म्हण आमचे संस्कृतींत गायांचो वासरां-पाडकांनी भरिल्लो गोठो ही पवित्र सुवात आसा. ती घराब्याचीच सोबा मानल्या. एखाद्र्या घराब्यांतलें बाळक म्हणल्यार फुडलें पिळगेचो प्रतिनिधी. भविश्या कडेन जोडिल्ली नाळ. भविश्य काळाचें तें एक सोबीत सपन आसता. घरांतलें बाळक ही घराब्याची सोबाच न्हय तर तो घराब्याचो फुडाराचो म्हालगडो. कुळाचें दायज फुडें व्हडपी, परंपरा फुडें चलोवपी, वंशावळीचो आंकूर. तो नासत तर घराब्याचें दायज खंडीत जातलें म्हण ताची सोबा सगल्यांक भुल्लुसायता. घराच्या हुंबऱ्या भितर पांय घालतना समृद्धीचे उमळशिकेन अंतस्करणांतले आशिर्वाद घालीत येवचें ही संस्कृतीची शिकवण. लक्ष्मी म्हणल्यार समृद्धी, धन, संपत्ती, साधन-सुविधा, गिरेस्तकाय-संस्कारांची आनी आसपतीची. घराचे वासरेर बशिल्लो घरकार हो पुराय घराब्याचो केंद्रबिंदू आसता. ताच्या घोळटिकेचेर घराबो निंबून आसता. तो म्हणल्यार घराचो मुखेल आदार. धान्न कसो. मुखेल खांबो. तोच घराब्यांत नासलो जाल्यार घराबो कसो उबो जातलो? ताकाच लागून तर वंशावळ वाडप जाता. ताचो पुरुषार्थ म्हणल्यार मानववंशाची सोबा. ताचो भेस, ताचो झेत हो मनीस-जिणेंतल्या शृंगार संकल्पनेचो आविश्कार ताचें मुंडाशें, त्या मुंडाशाचो सोबीत तुरो ह्या शृंगाराक केन्ना पूर्णत्व येतलें? जेन्ना ह्या घरकाराक ताचो अस्तुरेचो साथ-सांगात मेळटलो. अस्तुरेच्या शृंगाराची कुरा हो तिच्या कपला वयलो शेंदूर. कपलाक शेंदूर म्हणल्यार कुकमा तिबो लावन तिचो साज-शिरंगार पुराय जाला. घरकार आनी अस्तुरेच्या मिलनांतल्यान रुपकाराक येवपी घराब्याचें कितलें उदात्त आनी सत्यरुपी चित्र ह्या लोककाव्यांतल्यान आमच्या मुखार उबें रावता पळयात! ह्या गितांतले पयले वळींत प्रस्न विचारला, आनी दुसरे वळींत सगले वांगडी जाप दितात. ही जाप दिवन जातगच 'मूं' हें उतर येता. ह्या 'मूं'चो हांव विचार करतां तेन्ना तो एक सामुहीक 'हयकार' आसता. जशें 'आमेन' म्हण आपणाली मान्यताय दितात, तशी ही सामुहीक मान्यताय - Mass agreement or Community approval.

हें पुराय कवन म्हणल्यार एक सामुहीक यातुविधी आसा. हातूंत देवांनो हें उतर परत परत येता. हे देव म्हणल्यार असंख्य आत्मे- Spirits आंगणांत येवन गावपी नाचपी हीं सगलीं देवरुपां. ह्या गितांतल्या उतरांची येवजण मतींत घेतल्यार spiritual ते material म्हणल्यार अध्यात्मीक ते भौतीक असो एक सुंदर-सुरेख मिलाफ हातूंत दिसता. ही वाट आदी पसून अंता मेरेन आशिल्ली दिसता.

हांतली पुराय समजावणी ही hierarchical म्हणल्यार देव (सैम) सूर्य (ब्रह्मांड) पाताळ, धर्तर, गायत्री, मनीस, घराबो अशी फावो ते परंपरीक अनुक्रमान केल्ली दिसता. ह्या लोककाव्याची रचणूक करप्याक मनशाच्या चार पुरुषार्थांचें. तथाकथीत ज्ञान नासतना लेगीत ताणें हे पुरुषार्थ ह्या आपणाल्या काव्यांत मांडिल्ले दिसतात.

*पयलो धर्म - सूर्य/पाताळांतलो शेष*

*दुसरो अर्थ - गोरवां/वासरां/लक्ष्मी*
*तिसरो काम - पुरुष आनी अस्तुरी*
*चवथो मोक्ष - तांतल्यान सादपाचें मोक्षपद.*

आमी आमचे वेद अपौरुषेय म्हणटात. म्हणल्यार तांची उत्पत्ती ही Divine impulses, अनामीक अशे सामुहीक प्रेरणेंतल्यान जाल्ली आसा. मागीर हांवें आतां तुमच्या मुखार दवरिल्ल्या लोककाव्याची निर्मणी ही लेगीत अनामीक सामुहीक प्रेरणेंतल्यान जाल्ली आसा हातूंत दुबाव ना. जशे आमचे वेद अपौरुषेय तसोच आमचो लोकवेद अपौरुषेय. ब्रह्मा विष्णू महेश ही त्रिमूर्ती संकल्पना वेदकाळा उपरांतची. पूण लोकवेदांत उत्पत्ती-स्थिती-लय ही संकल्पना सूर्य-धर्तरमाय-पाताळ हे कल्पनेंतल्यान दिल्ली ह्या काव्यांत दिसता.

लोकगितां म्हणल्यार गांवगिरें सौंदर्यशास्त्र. तें निरागस समाज आनी समाज-जीण हांचें पडबिंब. देख दितलो जाल्यार लोककाव्यांत अस्तुरेचें वर्णन 'एक देवता कशी दिसता' अशें सहजतायेन येता. तशें म्हणटना तांतली निरागसता दिसता. थंय भोगवृत्ती वा कामभावना वखदाकय दिसना. सोबीतकायेची अंतिम प्रतिमा म्हणल्यार देवता. देवते इतली सुंदर कोणच ना, हो ताच्या फाटलो भावार्थ अभिप्रेत आसा. देवी कडेन आमी पळयतना विकृत वा कामुक्त भावनेन पळोवंकच शकनात. थंय एक निरागस भावार्थाची भावना आसता. तीच भावना लोककाव्यांतल्या भाशेंतल्यान उकती जाता. तातूंत निरागसतेचो गंध पर्मळटा. त्या लोककाव्याची मूलभूत भावना म्हणल्यार सामुदायिकतेचें तत्व. ताचेर कोणाचीच मालकी ना. हक्क ना. जें सुंदर आसा, सोबीत आसा (सत्यम, शिवंम, सुन्दरम) तें सगल्यांचें. सगल्या भौसाचें. तें सगल्यांनी आत्मीयतेन भोगचें - कृतज्ञतेचे भावनेन.

हांवें पयलीं लोकगीत ह्या उतरा बद्दल म्हजो आक्षेप आसा अशें म्हणिल्लें. ताचें कारण म्हणल्यार आमी हें उतर पाश्चात्य विद्वानांचें अनुकरण करपाचे वृत्तींतल्यान आपणायलां अशें म्हाका दिसता. Folk Song ह्या उतराचो लोकगीत हो सादो-सरळ अणकार. तें गीत, तें काव्य न्हय असोय अर्थ तांतल्यान ध्वनीत जाता. म्हणल्यार लोकगिताक आमी लोककाव्य म्हणपाक अनमनतात.

हांवें हाचे पयलीं तुमच्या मुखार चौरंग प्रकाराचे एक लोककाव्य दवरून ताचें विश्लेषण केलां. तें एखाद्या वेदांतल्या सूक्तां मदल्या ऋचे इतलेंच तोला-मोलाचें आसा. अपौरुषेय वेदां इतलोच अपौरुषेय लोकवेदय तांकीचो आसा. आमी हे तथाकथीत पाश्चात्यांचे मापदंड कुशीक दवरून आमच्या सर्जनशील सौंदर्यशास्त्राची पळोवणी आनी मोलावणी स्वदेशी मापदंडांतल्यान करपाचो वेळ आयला. हांव चाकोरी भायर वचून कोंकणी लोककाव्यशास्त्राची संकल्पना दवरतां. तुमी ती स्विकारात वा नाकारात. आमचें लोककाव्य हें वेदांच्याय पयलींचें. ह्या लोककाव्यशास्त्राक एक स्वताचो असो मानववंशाच्या संदर्भांतलो एक अती विशाळ असो सामाजीक अवकाश Social space आसा. तुमी खोलायेन विचार केल्यार तुमकां ही व्याप्ती कळटली. पूण आजवेर आमी आधुनीक/आर्विल्ल्या काव्यशास्त्राचोच विचार केला आनी हे भौसाचे काव्य-निर्मितीक काव्यशास्त्रीय अभ्यासाचे कक्षेच्या भायरच दवरल्या. ते निर्मणेच्या अभ्युदयाचो आनी उत्थानाचो अभ्यास करतलो जाल्यार तांच्या निरागसतेचो परमळ आनी सौंदर्याची अनुभूती पयलीं घेवची पडटली. हांव आज हें जें सांगतां ताचो दिश्टावो पांच हजार वर्सां पयलीं म्हणल्यार सना-पयलीं तीन हजार वर्सा पयलींच्या जैनांच्या चुर्णींत जाल्लो दिसता; हें विदुषी दुर्गा भागवत हांणी बरोवन दवरलां.

जैनांच्या चुर्णींत वरुरुचीची काणी आसा. तातूंत 'लोककव्व' अशें उतर मेळटा. ताचो अर्थ लोककाव्य. तें लोककाव्य म्हणल्यार, अस्तुऱ्यांनी गायिल्लीं सामुहीक कवनां असो संदर्भ दिला. ताच्या उपरांत णव्या शेकड्यांत राजशेखर (८८०-९३०) ह्या साहित्य मिमांसकान हीन जातींतल्या लेगीत बऱ्या मनशाचें कवन तोकणायेन स्विकारचें अशें सांगलां. तें ल्हान आसलें तरी काव्यशास्त्राचे नदरेन तें कितलें म्हत्वाचें आसता ताचो दिश्टावो राजशेखराक जाल्लो. - आनी फुडल्या दीर्घ काळा मेरेन आमी ह्या लोककाव्यशास्त्राक अर्विल्ल्या काव्यशास्त्र अभ्यासाचे शीमा भायरच दवरलें. खऱ्या अर्थान लोककाव्य हें सगल्यांत प्राचीन अशें काव्य आसा हाचें भान आमी जण एकल्यान दवरूंक जाय. खरें म्हणल्यार भौसान आपल्या अपौरुषेय लोककाव्याचें आनी लोकवेदाचे तांचे पुरतें प्रमाणीकरण केल्लें आसा. उच्चार, गायन, नाच, लय, साधनां हांचें तांणी केल्लें प्रमाणीकरण आजच्याय चौरंगांत तुमकां दिसतलें. घडयाळाच्या कांट्यांच्या दिकेन - Clockwise आनी उलटे दिकेन केन्ना कशें फिरप, खंय तोणी दिवप, कितलो वेळ मंडलाकार घुंवप, केन्ना नाचाक वेग दिवप, हें सगलें तांचें थरिल्लेंच आसता. पूण आज मेरेन तें आमच्या मिमांसकांनी मतींत घेवप म्हत्वाचें मानलें ना.

पूण आतां आनीक कळाव लायनासतना आमच्या राज्याच्या सांस्कृतीक धोरणांत सांगिल्ल्या प्रमाण गोंयांत सगल्या कोंकणी लोकां मदीं, भौसा मदीं सांस्कृतीक लोकशाही हाडपाक जाय. भौसाचे निर्मीतीक मान दिवप हो हे लोकशाहीचो केंद्रबिंदू आसतलो.

गुजरातच्या कच्छ आखाता पसून केरळ मेरेन अरबी समुद्र आनी सह्याद्री पर्वता मदल्या प्रदेशांतल्या आदिवासींच्या लोककाव्याच्या एकसंघ अभ्यासाचो म्हाप्रकल्प हातांत घेवन तो बेगोबेग तडीक व्हरप गरजेचें आसा. उद्येगीक क्रांती उपरांत लोककाव्यांत जाल्ले उतरांच्या भेसळीचोय विचार जावंक जाय. तांचें पुनर्शुद्धीकरण, पुनर्मूल्यांकन करून जाणत्या अभ्यासकां कडल्यान तांची पुनर्स्थापना करप हें आमचें पयलें कर्तव्य आसा.

संपर्क: ९८२२१२३०३०



***(नावेली-सासश्टीच्या रोजरी म्हाविद्यालयाच्या कोंकणी अध्ययन विभागान ७ मार्च २०२० ह्या दिसा घडोवन हाडिल्ल्या 'लोकवेदांतल्यान जावपी कोंकणी समाज भास विज्ञानीक अभ्यास' ह्या राष्ट्रीय पावंड्या वयल्या परिसंवादांत लोकगीत ह्या विशयाचेर केल्लें मुखसूत्र उलोवप.)***



# कविते विशीं

माधव बोरकार



२४.०८.१९

टेड व्ह्युज हो एका पत्रांत आपले निर्मणी प्रक्रिये संबंदान बरयता: 'एकेच बरबर म्हज्या मनांत कितल्यो तरी कविता उदेतात. पूण सगळ्योच कागदार येनात. पांच-सच कविता आकाराक येतात.' ह्यूज म्हणटा ते प्रमाण ह्या सगळ्या कवितांचे सार घडये ते पांच स कवितां मदीं येता आसतले. दुसरी गजाल म्हणल्यार नवें कांय सुचना जातकच तो अर्दकुट्यो उरिल्ल्यो कविता काडून बसता आनी तांकां पूर्ण रूप दिवपाचो यत्न करता.

"I started a regular invocation of power which worked so well I did nothing but write poetry well as day for a month and found it very difficult to stop."

अशें तो आनी एका पत्रांत बरयता. १९६० हें वर्स ताका कवितेचे नदरेन रितें गेलें अशें बरोवपाक तो विसरना. प्रत्येक कवीचे प्रकृती प्रमाण ताची निर्मणी प्रक्रिया वेगळी आसता. घडये एके वर्साचो काळ रितो गेल्ल्यान दुसऱ्या वर्सा ताका खूब कविता सुचपाक लागल्यो आसुंये.

***

२६.०८.१९

आयचे तरणे पिळगेक कविता बरोवप हो passtime कशें दिसता. कविता बरोवप म्हणल्यार passion अशें तांकां दिसना. एखाद्री एक गजाल घडटकच ताचेर कविता बरोवन ती फेसबुकार घालतकच आनी ताचेर कांय जाणांचे वा! वा! सुंदर! अशे अभिप्राय येतकच तांकां धन्य दिसता. कवीक भाशेचो अभ्यास लागता, ती भास केळोवची पडटा हाची जाणीव तांचे मदी दिसना. खंयचीय कला आसूं ती तुजे कडल्यान निश्ठा मागता. हें हे पिळगेक केन्ना समजतलें?

***

२७.०८.१९

डॉ. सुधीर रसाळा कडेन उलयतालों. ते सद्या रेगेचे कवितेचेर बरयतात. तांच्या मतान रेगेचे कवितेचेर जे तरेन विचार जावंक जाय तसो तो जाल्लो दिसना. गंगाधर पाटिल युगाचो सिद्धांत हे कवितेक लावन ताचो विचार करता ताका लागून तिची हेर आंगां काळखांत उरल्यांत. मर्ढेकर तरी सोपो पूण रेगे मात कठीण. challenging खरें तें चड करून 'गंधरेखा', पुष्कळा ते 'अनिह' ह्या संग्रहांतल्यो कविता ताका गवाय आसा,

मर्ढेकराचेर इतलो विचार जालो की रेगेचे कविते कडेन आडनदर जाली.

***

०१.०९.१९

कवितेचें पोरनें बाड काडून कुशीक दवरिल्ल्यो कविता परत वाचल्यो. १९६९, ७०, ७१ ह्या वर्सांतल्यो. कांय कवितांनी किरकोळ बदल केले. हे बदल शब्दांच्या क्रमाचे. शब्दांचो क्रम बदलतकच त्यो कविता लयेचे नदरेन वेगळ्यो दिसल्यो. कांय कडेन एखाद्रो शब्द चड पडिल्लो तो काडून पळयलें. मुख्य म्हणल्यार पन्नास वर्सां उपरांत त्यो वाचतना तिरायताचे भुमिकेंतल्यान तांचो विचार करपाक मेळ्ळें. सखारामाक वाचपाक धाडटकच ताका त्यो काल पयर बरयल्ले भशेन दिसल्यो.

ह्यो कविता वाचतना म्हजे कवितेची प्रकृती लक्षांत येता. ती सुरवेक पासून आत्मनिश्ट आनी अणभवनिश्टय जें व्यक्त करपाचें आसा ताका अचूक शब्दरूप दिवपाची तिची रीत आजूय तशीच आसा. फॅशन म्हूण हांवें केन्ना कविता बरोवंक ना. ताका लागून तिचे मूळ प्रकृती पासून ती केन्नाच पयस पावली ना.

***

०६.०९.१९

'पोएट बोरकर' हें व. दि. कुलकर्णी ह्या समिक्षकान बरयल्लें पुस्तक. बाकीबाब व. दि. क सांगता, ''हांव विशय घेवन कविता बरयना. लयबद्ध वळ मनात येता आनी मागीर वळ वळ वाडत वता... म्हज्या मनांत वळी येतात त्यो अनुरूप छंद घेवन... कविता करतना दोळ्यां मुखार वा मनांत काय वेगळें मुर्त रूप अशें काय नासता. हांव ते भिर्केतच आसतां. ताल, मूड लागिल्लो आसता. आनी तालबद्ध वळी भितल्ल्यान घुमूंक लागतात.'' बाकीबाबाली कविता कशी आकाराक आयल्या हाची कल्पना ह्या विधाना वेल्यान करूं येता. तांचे कवितेंत खाडाखोडी बी केल्ल्यो दिसना. ती सरसरीत येता. आडवादानूच शब्दांचो क्रम बदलता. हाचें एक कारण म्हणल्यार तांकां आशिल्लें लयेचें भान. आनी हें भान संगिताचे जाणेंतल्यान आयलां.

रामाण्याचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार बाकीबाबाक कविता येताली. ते कविता करी नाशिल्ले.

***

०७.०९.१९

आज १९६९ वर्सा बरयल्ले दोन कवितांचेर किरकोळ संस्कार करून त्यो परत बरोवन काडल्यो. १९६८ तल्यो कविता आनी ६९तल्यो कविता हातूंत म्हाका खूब फरक दिसता. ६८त म्हजें वाचन म्हणपा सारकें नाशिल्लें. मागीर कांय महत्वाचे कवी वाचले आनी म्हजे भितर बदल जालो.

***

०८.०९.१९

१९७० बरयल्ली एक चार वळींची कविता परतून वाचतना ती म्हाका नव्यान सुचली. मूळ रूप मात तशेंच आसा पूण तिचो रुपकार नवो जालो. सुमार एकूणपन्नास वर्सा उपरांत ही कविता वाचतना तिचे भितर दडून बशिल्लें तिचें वेगळें रूप दोळ्या सामकार आयलें आनी तिचें नवें सर्जन जालें.

१९७० ते ७२ ह्या काळांत हांव र. वि. पंडिताच्या लागी आयलों आनी रामाण्या कडले म्हजे संबंद थोडे पयसावल्ले भशेन जाले. आज हांव विचार करतां पंडिता कडल्यान म्हाका कितें मेळ्ळें हाचो. हा प्रश्नाची जाप समाधान दिना. ह्या कवी कडेन कविते कडेन पळोवचेली सुक्ष्म नदर नाशिल्ली. ते भायर अहंकार मोटो. आपले परस कोण दुसरो व्हड कवी आसा अशें ताका दिस नाशिल्लें. उरफाटें रामाण्याक कवितेची सुक्ष्म जाण आशिल्ली. नदरूय उकती. एखाद्री कविता आवडली ना जाल्यार ते खर उलयताले. पूण ती सोसपाची तांक आसल्यार तुका ताचो लाव जातालो. तांच्या सहवासांत हांव परत आयल्या उपरांत म्हजी कविता वेगळी जाली अशें म्हाका दिसता.

***

१०.०९.१९

आज आनीक दोन पोरन्यो कविता परत बरोवन काडल्यो. कवीन आपणे बरयल्ल्यो बऱ्यो आनी फशिल्ल्यो कविता सांबाळून दवरपाक जाय. एखाद्री फशिल्ली कविता लेगीत कालांतरान नव्यान सुचपाक शकता. असो म्हजो अणभव.

***

११.०९.१९

कविता बरोवन जातकच तिचे खाला स्थळ काळाची नोंद करून दवरप गरजेचें आसता. ताका लागून तिचे सबंदान उपरासपी गोंदळ पयस जावंक पावता. 'रुसवा' ही कवी अनिलाची कविता. ती वाचून आनी कुमार गंधर्वाच्या आवाजांत ती आयकून तांणी ती आपली बायल कुसुमावती ही गेल्या उपरांत तिका उद्देशून बरयल्या असो तिचो अर्थ लायला. ही कविता तांणी ५ ऑगस्ट १९४७ हे तारखेक यवतमाळ हांगा न्यायमूर्ती म्हूण काम करतना बरयली. तिचो आसपाव 'सांगाती' ह्या संग्रहांत केला. कुसुमावती १७ नोव्हेंबर १९६१ ह्या दिसा भायर पडली. कवीन ही कविता खरी प्रतिभेक उद्देशून बरयल्या. ती तांचेर व्हडलीशी प्रसन्न नासताली.

*संदर्भ: डॉ. गीता भागवत लोकसत्ता ७.९.१९*

***

१३.०९.१९

आज आनीक कांय पोरन्यो कविता मेळ्ळ्यो. त्यो नव्यान बरोवन काडल्यो. नाका आशिल्ले शब्द काडटकच तिका रेखीव रूप कशें येता त्यो परत वाचतना लक्षांत येता. म्हजे कविते सबंदान विचार करतना नदरेंत येवपा सारकी गजाल म्हणल्यार सुरवेक सावन तिणें आपणायल्लें अल्पाक्षरित्व. आयच्या खिणाकूय हो तिचो सभाव तसोच आसा. तशेंच तिची प्रकृतीय बदलूंक ना. पन्नास वर्सां उपरांतूय त्यो म्हाका काल पयरूच बरयल्ले भशेन दिसतात. हे कवितांचेर पु. शि. रेगे आनी रामाणी हांचो प्रभाव पडिल्लो म्हाका जाणवता. हो प्रभाव बऱ्या अर्थान अशें हांव म्हणीन. आशय कसो केळोवचो आनी अभिव्यक्तीचें वेगळेंपण कशें जपचें तें म्हाका रेगे आनी रामाणीच्यो कविता अभ्यासून शिकपाक मेळ्ळें. सांकेतिकताय टाळपाक जाय ही जाणीव म्हाका जाली ती आजूय म्हजे कवितेच्या सांगाताक आसा.

***

१७.०९.१९

म्हज्या पोरन्या बाडांतले कवितांच्या संदर्भांत म्हाका THE NOTE BOOK POEMS 1930-1934 ह्या डिलन थॉमसाच्या पुस्तकाची याद जाली. पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा सावन विसाव्या वर्सा मेरेन ताणें बरयल्ल्यो कविता ह्या संग्रहांत आसात. पयली सावन ताची पद्धत सादारणपणान अशी : सुचिल्ल्यो वळी कागदांचेर बरोवन काडप. तांकां तो worksheets अशें म्हणटा. एका पत्रांत तो बरयता : I write a poem on innumerable sheets of scrap paper. write it one both sides of the paper often upside down and criss cross ways, unpunctuated, surrounded by drawings of lamps posts and boiled eggs in a very dirty mass; ह्या worksheet तल्यान ताच्यो कांय मुखा वेल्यो म्हत्वाच्यो कविता आकाराक आयल्यो. Death And Entrarrces हो ताचो खूब नांवाजिल्लो संग्रह. ह्या संग्रहांतल्यो कांय कविता ताच्या ह्या नोटबुकांतल्यो आसात. सोळा ते बावीस वर्सांची ताची पिराय हो ताच्या जडण घडणेचो काळ. ताच्यो स्पश्ट कुरवो ताचे कवितेचेर दिसता.

थॉमसाच्या ह्या नोटबुकांच्या आदारान "Poet In the Making" हें पुस्तक तयार जालां. एखाद्र्या कवीचो अभ्यास कसो करूं येता ताची कल्पना करूं येता. ह्या कवितांच्या खाला तारखो आसात.

बाकीबाबा सारकिलो कवी विशेश खाडाखोडी करिनासतना कविता बरयतालो. पु. शि. रेगे मात कवितेंत बदल करीत आसतालो. हे बदल ओळींचे आनी शब्दांचे आसताले. हे worksheets तांणी सांबाळून दवरिल्ले आसूंक जाय असो म्हजो अदमास आसा. रेगेचे कवितेचो अभ्यास करतल्यांक ताचो फायदो जावंक पावतलो.

(फुडें चलता)

संपर्क: ९४२०२२२८७६



# स्वयंसिद्धा जावया

**रजनी भेंब्रे**



जात, धर्म वेगळाय नासतना खंयचोय समाज घे. त्या समाजांतली खंयचीय आवय, धुव, सुन, भावज, भयण अश्या वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी नदरे सामकार येता. प्रत्येक बायलेच्या आंगांत कसलो ना कसलो गूण आसता. आनी तो विकसीत करचे पसत ती धडपडटा. कांय वेळार तिका संद मेळटा. कांय वेळार तिचे पांय ओडप जाता. संद मेळटा ती बायल फुडें पावता. आपली उदरगत सादूंक पावता. तिचे पांय ओडप जाता तिचो घुस्मटमार जाता. ती आपली संद वगडावन बसता. धडपडटा, चरफडटा आनी कांयच सादय जालें ना म्हणून निर्शेता.

समाजांत आमकां दोन चित्रां दिसतात. आपले कर्तृत्वान फुडें पाविल्ली अस्तुरी आनी फटीच्या परंपरांनी घुस्पावन दवरिल्ली अस्तुरी. अस्तुरे कडेन पळोपाची नदर निवळ नितळ आसली जाल्यार अस्तुरेचो फुडार पर्जळीत जावंक पावता.

भारतीय समाज पितृप्रधान जरी आसलो तरी आवयकय 'मातृदेवो भव' म्हणून वयली सुवात फावो केल्या. घरकार आनी बायल संसाररुपी रथाची दोन चक्रां. दोनूय चक्रां वेवस्थीत चल्लीं जाल्यारच संसार सुखी जावपाक पावता.

सुशिक्षीत आनी संस्कारी बायल ही आपली उदरगत सादपाक फुडें पावल मारता. ती सुशिक्षीत आनी सुसंस्कारी समाज घडोवचे पासत प्रयत्नशील रावता. भारतांत असल्यो जायत्यो नांवां-रुपाक आयिल्ल्यो बायलो आसात. आनी त्यो वेगळ्या वेगळ्या काळांत जल्मल्ल्यो आसात. रत्नावरी स्वयंप्रभा आशिल्ली बायल सगळ्या तरांच्या बंधनाक कुशीक काडून आपलें अशें आगळें वेगळें रूप दाखोवपाक फाटीं उरूं नात. भारतांत पुराणकाळ धरून ह्या समयार लेगीत आमकां अशी उदाहरणां पळोवंक मेळटात. पूण कोटी-कोटीच्या समाजांत हें प्रमाण साप कमी आसा.

बायल मनीस आज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा? आमी आयचें चिंततात. पूण एक काळ असो आशिल्लो. अस्तुरी ही दादल्यांची मिरास, हातांतलें बावलें. दादल्यांन आपले शक्तीचे बळग्यार खूब संपत्ती एकवटीत केली आनी ताच्या मुखार प्रस्न उबो जालो ती संपत्ती सांबाळून कशी दवरप, कोणा पासत दवरप. तेन्ना ताणें लग्न जावपाचें थारायलें. असुरक्षतेचो न्युनगंड आशिल्ले अस्तुरेन ह्या संबंधाक हयकार दिलो. लग्नाचे फेऱ्यां बरोबर घुस्पपटून ती दादल्यांची संपत्ती जावन पडली.

हो आदलो काळ. पूण आज आमी फाटीं वळून पळयतना समजतात व्हय, आदले काळा परस आमी खूब सुदारल्यांत. आमकां सगळे तरेचें स्वातंत्र्य आसा. आमचे निर्णय, भुरग्यांच्या शिक्षणाचे निर्णय, घरगुती निर्णय, आपले करीयरा संबंधी निर्णय अस्तुरी घेवंक शकता? घरकारय निर्णय घेतना बायलेक विश्वासांत घेता? बायले सांगातान संसारा खातीर धांवपळ करता. भुरग्यां पसत धांव धपट्यो काडटा. हय सगळें सगळें करता.

पूण हांगा एक व्हड प्रस्न आमचे मुखार आसा तो हो. अस्तुरे बरोबरेन वावुरपी घरकार शहरी वातावरणांतलो. अशेच तरेचो बदल, गांवगिरे वाठारांनी जाल्लो आसा व्हय? म्हजी जाप ना. सदांच विचार करप जाता शहरी अस्तुरेंचो पूण आमचो खरो समाज वसता गांवांनी, खेड्यांनी. त्या बायलांचो विचार प्रामुख्यान जावूं जाय.

स्वतंत्र भारतांत भौशीक जिणेंत बायलांक आनीक बळीश्ट करचे पासत केंद्र सरकार नित्य नेमान नव्यो नव्यो येवजणो करता. बदलत्या काळा बरोबर अस्तुरेन स्वताक आचार आनी विचारान नेटान बदलून घेतलां. शिक्षणीक नदरेन तर स्वताक इतलें बदलून घेतलें की आयज तिणें अशें एकूय क्षेत्र मेकळें दवरूंक ना जंय अस्तुरेन पावल दवरूं ना.

व्हड व्हड पदांचेर आपले कर्तृत्वान तिणें आपली सुवात सगूर करून आपली छाप दवरल्या. पूण खेदान सांगन दिसता की हें सगळें शारांतल्या वाठारांनी प्रामुख्यान दिसून येता. गांवगिऱ्या वाठारांनी नदर मारीत तर स्त्री स्वातंत्र्य म्हणटा तें कितें आनी ताच्यो भंगल्यो कश्यो जातात त्यो दिसतल्यो.

कांय प्रमाणांत बदल दिसून येतात. शारांवरीच सुधारणेचें वारें खेडे गांवांनीय पावलां. आपूण शिकूंक पावूं ना, आपली भुरगीं तरी शिकचीं म्हणून कश्ट उसपून आनी सरकारी आदार घेवन आवय भुरग्यांक फुडें सरपाक वावुरता. आशिकुशीक घडणुको

घडटात ताचो पुरायेन बरेतेरेन नियाळ दिवपाचो यत्न करतात. वायट बरें पारखुपाची नदर दिवपा पासत धडपडटा. आनी आज आमकां ह्या विशयाचीच चड गरज आसा, जी गांवगिरी बायल आपले भुरग्यांक दिवपाक सोद्ता.

समाज विस्कळीत जावंक लागला. तरणी पिळगी तर हाता भायर वचपाच्या वाटेर आसा. व्यक्तिस्वातंत्र्याचें पिशें तरणाट्यांच्या मानगुटेर बसलां. खेडे गांवांतली आवय तरी भुरगें बाळांचे करपाक घरा आसता पूण शारांतली आवय आपल्या भुरग्यांक जाय तितली सुरक्षितता दिवूंक कमी पडटा. स्त्री स्वातंत्र्याची वल्गना करतनाय अस्तुरेन केन्नाच विसरूंक फावना. भुरगें हें आवयच्याच गर्भांत जल्मता आनी म्हणूनच निसर्गान दिल्ल्या वरदानाची आमी राखण करूंक जाय. खेडेगांवांतली स्त्री स्वतंत्र जावूं जाय. तिका घटाय मेळून दादल्या बरोबरीन वावरूंक मेळ्ळांच पूण तिका आपल्या कर्तबगारीचेर विश्वास उरूं जाय. अस्तुरी घटमूट आसली जाल्यार वेळ प्रसंगार स्वताच्या पांयार उबी रावपाची तांक तिच्यांत निर्माण जावूं जाय. अन्याया आड झुजपाची ताकत तिच्यांत निर्माण जावूं जाय.

हे नदरेन सगळ्यांत पयलीं नदर गांवगिरे बायले कडेन व्हरया. स्त्री स्वातंत्र्याचो आवाज शहरी वाठारांनी आयज आयकूंक येता. पूण गांवगिरी बायल खूब तेंप पयलीं स्वताच्या पांयार उबी आसा. घोवा बरोबरीन न्हय तर घोवाच्याकय ती काम धंद्यांत फुडेंच आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. तिची जोड घोवाल्या जोडी परस चडच आसूं येता. घोव चार दीस काम केल्यार जोडिल्लो पयसो एकतर व्यसनांत ना तर फोल्गांत मोडून वयल्यान बायलेची जोड मागपाक फाटीं फुडें येना. बायल पुरायेन आपलें घर सांबाळून चार पयश्याचीं गांठ करून आपलो फुडार शेगूर करपाचो यत्न करता. पूण चडशा वाठारांनी दिसती पडटा तें चित्र म्हणल्यार घरकाराचो बायलेचेर अधिकार.

सोरो पियेवन रात-रात धुमशणां आनी जेवणा खाणांचो विद्वाट. घरांतली सवस्तकाय ना करप आनी हाचो परिणाम घरांतल्या माणकुल्यांचेर जावप. बायलेक आपल्या जाय तेन्ना भोगप हो आपलो हक्क समजुपी दादलो कांय वेळार कुटूंब येवजणेंचे ऑपरेसांव केल्यार लेगीत तिका जितलो सुसेग दिवपाक जाय तितले दिवपाक सोदिना. ही वस्तुस्थिती आसा. हांतल्यान कांय वेळार ती जीवघेणे दुयेंसाच्या भकीक पडटा.

गांवगिरी बायल अन्याया आड झुजपाक फाटीं पडटा. आपले जोडीचेर संवसार-गाडे वोडून लेगीत ती घोवाची जबरदस्ती सोंसता. हाका कारण आमची समाज वेवस्था. आयजवेर घरकाराक देवासमान मानला. ताचे गुन्यांव माफ करप हें बायल मनशेक परंपरेन शिकयलां. मार झोड सगळें सोंस. अजून आमचे संस्कार आमकां परंपरा आनी रुढीचे विरुद्ध वचूंक दिना. स्वताचे पांयार उबी आसून लेगीत ती भितल्ले भितर घुस्मट्टा.

आज वेळ आयला विचार करचेलो. कितलो तेंप मेरेन हें तूं सोंसतली म्हणून गांवगिरे बायलेक सांगपाचो वेळ आयला. स्त्री स्वातंत्र्याची कल्पना तिच्या सामकार मांडपाचो वेळ आयला. शहरी बायल आपलो निर्णय आपूण घेवपाक शकता. पूण गांवगिरी बायल वाड्यार रावता आनी वाड्या वयली जीं नीतिमुल्यां आसात ताकाच चिकटून रावता. हे पसत तिची वैचारीक पातळी शिक्षणीक नदरेन वाडोवपाची आज गरज आसा.

गांवगिरे बायलेक सर्वार्थान आपले पांयार उबी करचेली गरज आसा. तिच्या आंगातली भिजूडपणां पयसावन भंय विरयत ती काम करूंक शकतली अशें आप रोजगार तिका दिवपाक जाय. आज केंद्र सरकार आप रोजगारांचेर भर दिता ताचो चडान चड फायदो बायल मनशेन घेवंक जाय. पोशक आहार येवजण, सुटयेंतली शिबिरा, शिर्विस करपी बायलां पसत हॉस्टेलां, थोडे भितर प्रशिक्षण अभ्यासक्रम वर्ग, वेवसाय प्रशिक्षण अभ्यासक्रम वर्ग, स्वयं रोजगार एक जाणीव जागृती प्रकल्प.

बायल मनीस आज खऱ्यांनीच स्वतंत्र जातली जाल्यार 'स्वयं रोजगार एक जाणीव जागृती प्रकल्प' बायलां खातीर उपेगी करून घेवचो. ह्या प्रकल्पाचो हेतूच म्हणल्यार गांवगिरे वाठारांतल्या बायलांनी एकठांय येवप, आपले विचार तशेंच कार्यावळींची देवाण घेवाण करप आनी तांतल्यानच हळू हळू वास्तवतेची जाणविकाय जावन आपलेच प्रस्न सोडोवपाक एक स्वतंत्र अशी माची तयार करप. अशी माची तयार जाल्ल्यान गांवगिरी बायल गिन्यानी जाता. तिका कायदे कानून, आरोग्य, विज्ञाना संबंदी तांत्रीक म्हायती मेळूंक पावता. अन्याया विरुद्ध झगडप आनी आपली उदरगत सादपाक तिका मदत जाता.

कांय प्रस्न गांवगिरी बायल आनी सुदारिल्ले बायल मनशेक एकाच बशेन त्रासदायक थारतात. कांय वेळार सुनेक भुरगें जालें ना जाल्यार कळत नकळत सुनेकच जापसालदार धरतात. सुनेच्या मना विरुद्ध देव-देवस्की, घाडी-भगत, करणी अशे अंधश्रद्धेक पोसवण दिवपी विधींक आदार दिवपाक प्रवृत्त करतात. आज विसावो शेंकडो हुपून आमी एकविसाव्या शेंकड्यांत पावल दवरलें. विज्ञान कितलें प्रगत जालें. भुरगें जालें ना जाल्यार वैजकी उपचार करप कितलें सोंपें जालां. तरी लेगीत अंधश्रद्धेक अजून व्हड प्रमाणांत पोसवण मेळटा.

वैजकी उपचार आनी अंधश्रद्धेचो आदार घेवन लेगीत सुनेक भुरगें जालें ना जाल्यार घरांतल्या सुनेचो मानसीक आनी शारिरीक छळ अजुनय जाता. हाका शार आनी गांव म्हणून अपवाद ना. घरच्या मनशां कडल्यानच न्हय तर खुद्द घरकारा कडल्यानय जाता. आनी कांय वेळार अश्या छळाक लागून बायल मनीस आपलें संतुलन वगडावन बसता, आनी तांतल्यान वायट घडणुकोय बी घडिल्ल्यो आयकूंक येतात. अश्या वेळार बायल स्वतंत्र विचारांची आसूं जाय. भुरगें सगळ्यांक जाय आसता पूण जालें

ना जाल्यार सुनेचो छळ करप व्हड गुन्यांव. अश्या छळा विरुद्ध लडो दिवपाक बायल मनीस धीट जावंक जाय मिळी मिळी रडून प्रस्न सुटावे जायनात.

वयलेचाराक बायल स्वतंत्र जाली अशी दिसता. पूण बायल मनशेचो खिणा खिणाक घुस्मटमार चालू आसता. खूब वेळा चली जाल्यारूय मानसीक छळ जाता. आयच्या काळार एक भुरगें आनी नॉर्मल जावप म्हणल्यारच व्हड देणगी आसा. चलो जालो ना म्हणून वांकडे तोंड करून छळपी लोकां आड झुजपाची ताकत निर्माण करूं जाय.

चले भुरगो जायसर भुरगीं जल्माक घाल म्हणपीय ह्या समाजांत खूब मनशां आसात. आपले कुळाक, घराक कुळदीप जायच म्हणपी, व्हड जातकच त्या कुळदिपान कुळाच्यो वादऱ्यो करूं पूण कुळदीप जायच. असल्या गजालींच्या आड निर्णय घेवपाक बायलेन फुडाकार घेवूं जाय. अश्या निर्णयांक घरकाराच्या तेंक्याची गरज आसता.

शार जाव गांवच्या समाजाक हालींसराक एक व्हड किडीचो प्रादुर्भाव जाला आनी ती कीड म्हणल्यार बलात्कार, आगळीक ही कीड समुळशी ना जावूं जाय. बायल वा चली मनशेचो गुन्यांव नासतना ती पाशवी मनशांच्या विकाराक बळी पडटा,आनी सासणाची भ्रश्ट जाता. अश्या वेळार बायल स्वतंत्रतायेच्यो वल्गना करपी आमी त्या बलात्कारितेक आदार करपाक सरतात मुखार काय फकत बातांच करप. समाजाची तिचे कडेन पळोवपाची नदर बदलता. लोक लज्जेक लागून ती कोर्ट कचेरेची सोपणां चडूंक फाटीं फुडें जाता आनी हांगाच अशी पाशवी वृत्ती बळावता. आपली चूक नासतना पाशवी बलात्काराक बायल भकीक पडटा तेन्ना कांय वेळार ती आपलें संतुलन वगडावन बसता. समाजाचो सोडच कांय वेळार तिका खुद्द घरच्यांचें सांत्वना आनी आदार मेळना आनी ती आपलो जीव वगडावन बसता.

बायल मनीस आयज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा हो विशयच न सोंपपाचो आसा. म्हाका दिसता कांय वेळार बायलांच बायलांच्या स्वतंत्रायेच्या आड आसतात. आपले विचारांनी आनी करणेन. कांय गजाली दुसऱ्यांक सांगप सोंपें पूण आपल्याचेर येतकच तीच बायल वेगळे तरेन वागता. सभे माजार हुंड्याचे विरुद्ध उलोवपी बायल पुताची सोयरीक जातकच हुंडो नाका पूण चार चौगांत सोब सारख्यो भांगराच्या वस्ती पोंतान सगळें-सगळें मागता. आनी जर स्ततंत्र विचारांचे चली अश्या कृतीचेर बडी मारपाक मुखार सरलें जाल्यार ते चलये मनशेचेर नाका आशिल्ली कुंभांड रचप. म्हणून विचारन दिसता बायल मनीस जाल्या खऱ्यानीच स्वतंत्र?

जेन्ना बलात्कार, आगळीक, परंपरेन चालू आशिल्ल्या पद्धतीचेर घडणुको घडटात तेन्ना बायल मनशेक समाज आदरान पळयता काय? हो व्हड प्रस्न आमचे मुखार उबो जाता. जेन्ना ऑफिसांतलो अधिकारी आपली भूक भागोवपाक बायल कर्मचारी तयार जायना म्हणून तिचेर जेन्ना कुभांड रचता तेन्ना बाकीचे कर्मचारी ह्या बायल कर्मचाऱ्या कडेन केन्ना आदरान पळयत?

शिर्विसेक साकून येतना गर्देचो फायदो घेवून प्रवाशान आपलो विनयभंग करपाचो यत्न केलो म्हणून घरकाराक सांगले जाल्यार तो ह्या गजालीक गंभीरतायेन घेतलो कांय दुबावान पळयतलो?

अश्यो जायत्यो गजाली आसात, जायते प्रस्न आसात. तांकां उत्तरां सोदप सोंपी गजाल न्हय. पूण एक गजाल प्रामुख्यान बायल मनशेन मतींत दवरूंक जाय ती म्हणल्यार बायल मनीसच घराबो बरे तरेन टिकोवन दवरूंक शकता. कारण जल्मताच निसर्गान सोंशीकपणाची देणगी बायल मनशेकच दिल्या. भुरगें जावपाचो मान बायलेकच दिला. केदीय व्हडली उच्च पदावेली जरी बायल आसली तरी तिका आपले अशें अपत्य आसचें ही भावना आसताच. आपले हातान भुरग्याची जपणूक जावची ही स्त्री सुलभ भावना. म्हणटकच संसार हो आयलोच. संसाराची जबाबदारी आयली. निती नियम आयले, कर्तव्य आयलें. जर बायल मनीस संवसाराच्या चौकटींत आयली जाल्यार दादल्या परस तिकाच चड बंधना पाळचीं पडटात. ना तर तिणें आपलें करियर करप ना.

आज असो एक विचार रुजपाक लागला की आमी सगळें करतात तें कित्या खातीर. मनाक, कुटुंबाक, शांती, सवस्थकाय मेळची म्हणूनच न्हय? मागीर चड ताणून धर नासतना बायल मनशेन मध्यबिंदू सादूंक जाय. आपलें स्वातंत्र्य म्हणजेच दुसऱ्या कोणाचे शोशण जावूं जायना. ओडून ताणून स्वातंत्र्य मेळोवचे परस जें आपल्याक रुचना, मानवना, तडजोड जायना जाल्यार अशी बंधना पयसावन मुक्त जावप. आपलेपरीन सुखी जीण जगप.

पश्चिमेकडले देश आज खंयच्या अधोगतीकडे पावल्यात. प्रत्येक जाण व्यक्ती स्वातंत्र्याचो पुजक जाला. स्वातंत्र्याच्या अतिरेकी कल्पनेच्या आधीन जाला. बारा पंदरा वर्सांची सान पिरायेचीं भुरगीं अंमली पदार्थांच्या आहारी गेल्ल्यात पयशां खातीर कोणाचोय जीव घेवपाक फाटी फुडें पळयनात. साद्या कारणा वयल्यान आर्मान गुळयो घालपाक मुखार सरतात आनी चवदा-पंदरा वर्सां पिरायेचीं कवळीं चली भुरगीं गुरवार जातात. हें सगळें उखलापें स्वातंत्र्याचें परिणाम. जें सगळ्या समाजाक आनी पर्यायान मनीस-जातीक घातक थारूं येता. अती थंय माती असोच हो प्रकार.

स्त्री स्वातंत्र्याचो विचार करतना आमी सबला जावया अबला रावूं नये. स्वयंसिद्धा जावया, अन्याया आड आवाज उठोवया. पूण खंयच्याय गजालीचो अतिरेक जावपाक दिवूं नये. आमच्या भारतीय समाजाक अध्यात्माची वैचारीक बसका आसा ताका आमी पाळो दिंवया.

संपर्क: ९८२२४८६९५५



# इतिहास उस्तितना

**कोंकणीची पोरनी सरस्पत उस्तितना कांय म्हत्वाचे लेख आनी बरपां मेळ्ळीं.**
**ती 'जाग'च्या वाचप्यां मेरेन पावलीं जाल्यार तांचे खोशेंत भर पडूं येता अशें दिशिल्ल्यान हें पुनर्मुद्रण - त्या त्या लेखकाच्या आनी संपादकाच्या बरेपणान...**

उस्तून तुमचे मुखार दवरपी - दामोदर मावजो

---

# अंतरांत ज्ञानदिवो पेटत दवरपी

**संत सोहिरोबा • संकलन : सुहास दलाल**

तेन्नाच्या सावंतवाडी संस्थानांत पेडणें म्हालांत पालये गांवांत, १८व्या शेंकड्यांत शके १६३७ म्हणल्यार इ.स. १७१४त आंबिये आडनांवांच्या सारस्वत घराब्यांत सोहिरोबांचो जल्म जालो. फुडें तांच्या घराब्यांत दुस्मानकाय रिगली आनी तांतले कांय जाण तीन कोसांचेर आशिल्ल्या बांदें गांवांत वचून रावले. थंय तांणी वीस वर्सां सुमार कुलकर्णीपणाची चाकरी केली. भुरगेपणा सावन ते भजन, चिंतन करताले आनी नोकरेचो वेळ सोडून चड करून संस्कृत आनी प्राकृत आध्यात्मीक ग्रंथ वाचताले.

सकाळीं नोकरे खातीर घरांतल्यान भायर सरचे आदीं ते देवाची पुजा केले बगर केन्नाच वचनासले.

एक दीस न्हावन पुजेक बशिल्ले आसतना कांय म्हत्वाच्या कामां खातीर तांकां सावंतवाडीच्या राजांचो आपोवणें आयलें. सोयरोबान ताकतिकेन पुजा केली आनी जेविनासतना राजाक मेळूंक ते भायर सरले. वाटेर भूक लागल्यार खावपा खातीर म्हूण तांणी अेक ल्हानशें पिकिल्लें पणसूल वांगडा घेतलें. देड कोस चल्ल्या उपरांत तांकां मात्शें पुरो जालें आनी इन्सुलीं गांवां लागसार एका व्हाळाचे देगेर ते विसव घेवंक बसले. पणसुल फोडून घरे खावंक सुरवात करतालो, इतल्यान 'बाबू हमकू कुछ देता है'? असो एक गंभीर आवाज तांच्या कानार सादलो. फाटल्यान बागोवन पळय जाल्यार तेजिश्ट आनी लांबरूंद असो एक सिद्धपुरूष सोयरोबांक दिश्टी पडलो. तो सिद्धपुरूष म्हणल्यार नाथसंप्रदायांतलो ८ वो नाथ - गैबिनाथ वो गहिनीनाथ! सोयरोबांनी तांकां साष्टांग नमस्कार घालो आनी फोडिल्लें सगल्या सगळें पणसूल भक्तिभावान तांकां अर्पण केलें. कडकडीत भूक लागिल्ली आसतनाय सोयरोबान एकूय घरो आपणाक दवरी नासतना अख्खें पडसूल आपल्या सुवादीन केल्लें पळोवन गैबिनाथ ताचेर भोव प्रसन्न जालो आनी ताणें आपलो वरदहस्त सोयरोबाच्या मस्तकार दवरलो. गैबिनाथान तांकां तांतले पांच घरे प्रसाद म्हूण खावपाक दिले.

सोयरोबांचे अष्टसात्वीक भाव उफाळून वयर सरले आनी आपाप तांकां भावसमाधी लागली. आदींच देवभक्त आनी तातूंत आनी आतां गैबिनाथांची 'गुरुकृपा' तांचेर जाल्ली. ते सामके विरक्त जाले. तेच अवस्थेंत सावंतवाडी पावून तांणी राजाची भेट घेतली आनी आपली लिखणी राजा सामकार दवरून 'हे फुडें म्हाका तुमची सेवा करप झेपचेंना.' अशें सांगून नोकरेची सोडचीट दिली. सोयरोबांचो विरक्त भाव आनी तांच्या मुखामळा वेलें आगळें आत्मतेज पळोवन राजाक अजाप दिसलें आनी व्हडा नमळायेन राजान तांकां म्हणलें, 'आमगेर राग नासचो.' हें आयकून 'राग कसलो? हे फुडें तुमच्या राज्यांत सोन्याचे मक्ते दिवन लोकांक बेबदे करनये हीच एक मागणी आसा' अशें म्हणून सोयरोबा घरा परतले.

आतां ते भायर-भितरसून पुराय बदलिल्लें. देवपुजा, भजन, भक्ती-ज्ञान - वैराग्याचेर निरूपण, ईश्वरचिंतन आनी ग्रंथलेखन हाचे भायर ते कित्यांतच लक्ष घालिनासताले. ते मुळचेच कवी-काळजाचे! अध्यात्माचो सांगात मेळटगीर तांचें काव्य-प्रतिभेक एक आगळीच ओप चडली. 'हे फुडें हातांत लिखणी घेवंचोना' असो तांणी निश्चय केल्ल्यान तांचे चडशें काव्य तांणी आपले भयणी कडसून बरोवन घेतलां. नोकरी तर ना, बरोवपाचे कागद घेवप परवडना. देखून तांचे भयणीन तांचे जायते अभंग कांट्यान कोरांतून पणसाच्या पानार बरोवन दवरिल्लें. सोयरोबांचे जाण्टे आवयक हें खबर नाशिल्लें. शियां दिसांनी हीं पानां एकठावन तिणें उजो घालो आनी धग पेटयलो. अशे तरेन सोयरोबांचे जायते अभंग आनी हेर रचना गोबोर जाल्यो. तरी आसतना तांणी बरयल्ले अक्षयबोध, महदअनुभवेश्वरी, पुर्णाक्षरी, अद्वयानंद, सिद्धांतसंहिता ह्या सारके वेदांताचेर आदारिल्ले ग्रंथ तातूंतल्यान वाचले. १९३३ वर्सा श्री वैजनाथ शिवराम देशकुलकर्णी उर्फ राजाध्यक्ष हांणी व्हड तकालस घेवन भक्ती - ज्ञान - वैराग्याचेर आदारिल्ले तांचे कांय अभंग, पदां, श्लोक आनी आरत्यो एकठांय करून 'श्री सोयरोबानाथ - कवितासंग्रह' ह्या नांवान उजवाडाक हाडलो.

सोयरोबांक गायनाचें आंग आशिल्ल्यान तांणी आपलीं सगलीं पदां बी रागरागिणींत बसयल्यांत. स. भगवंत बाळकृष्ण पै रायकार हांणी एक त्रैमासीक काडून तांचें बरेंचशें लिखाण उजवाडाक हाडलां.

६०व्या वर्सा आपल्या दोन चल्यां वांगडा तांणी काशी, प्रयाग, गया बी तीर्थक्षेत्रांची पायांनी भोंवडी केली. इ.स. १७७९ वर्सा ते ग्वालेराक पावले. त्या काळार थंय शूर सरदार महादजी शिंदे राजकारभार सांबाळटालो. तांणी सोयरोबांचो व्हडा प्रमाणांत भौमान करून तांचें शिष्यत्व पत्करलें. महादजी शिंदेन सगळो कारभार बक्षीबहाद्दर जिवबादादा केरकार हांचेर सोपोवन ते संत सोयरोबां फाटोफाट उजैनीक येवन रावले.

तांणी सोयरोबांनाथांक थंय एक मठ बांदून दिलो. उपरांत बदरीकेदार,

पुष्कर, सोमनाथ, ओंकारेश्वर, द्वारका, अयोध्या बी तीर्थक्षेत्रांची पांयांनी भोंवडी करून सोयरोबा परतून उज्जैनीक आयले आनी निमण्या खिणा मेरेन शिंद्यानी बांदून दिल्ल्या मठांत रावले. तांचे दोग चले तांचे वांगडाच रावताले.

उज्जयिनीक धा वर्सां रावन इ.स. १७९४ च्या अदमासाक एक दीस रातचे कोणाकूच सांगिनासतना ते मठांतसून भायर सरले. ताचे उपरांत ते कोणाच्याच नदरेक पडलेनात. ते वेळार तांची पिराय ८० वर्सांची आसली.

संत सोयरोबान ज्या घरांत जल्म घेतलो थंय तांच्या संतपदाक फावो अशें यादस्तीक जावंक जाय. ह्या स्मारक मंदिरांत तांच्यो पादुको, ते वापरताले त्यो वस्तू, तांचें हातबरप, तांचो ग्रंथसंग्रह बी वस्तू दवरूंक जाय आनी तांची जल्मतिथी आनी पुण्यतिथी फावशा दबाज्यान दर वर्सा मनोवंक जाय.

इन्सुली गांवां लागसार एका व्हाळा देगेर जे सुवातेर श्री संत सोयरोबांक गैबिनाथांनी दर्शन दिलें आनी जंय तांकां पयलेच खेपो समाधी लागली ते सुवातेर पुज्य गैबिनाथ आनी श्री संत सोयरोबा हांच्यो मूर्ती बसोवपाची गरज आसा. थंय तांचें दुसरें स्मारक जावंचे.

उज्जयिनीक शिंदे सरकारान जंय तांकां मठ बांदून दिलो थंय तांची सगली ग्रंथसंपदा, हातबरपां आनी वापरांतल्यो वस्तू सांबाळून दवरपाची गरज आसा. आयज हो मठ कशे आवतिकायेंत आसा ताची वासपूस करून तो अदीक बरो करूंक गोंय, सिंधुदुर्ग आनी उज्जयनीचे जनतेन वावरूंक जाय. ह्या वावरांत पर्तगाळ मठ, काशी मठ, गोंय सरकार आनी पुराय कोंकणी जनांनी वावुरपाची गरज आसा. सोयरोबांच्या साहित्याचो खोलायेन अभ्यास जावंचे, तांच्या साहित्याचेर शिकपी भुरग्यांनी डॉक्टरेट मेळोवची आनी भक्ती-ज्ञान-वैराग्य ही सोयरोबांची जी त्रिसूत्री आसली ते वाटेन चलपाक आयचे पिळगेंतल्या कांय जाणांक तरी स्फूर्त मेळची अशी आमी आस्त बाळगुंया.

कोंकणी अणकार:

**श्री संत सोयरोबानाथांच्या फांकीवंत अभंगाचो**

***(परमळ, दिवाळी आंक १९७१ - संपादक : सुहास दलाल)***

## ध्येयनिष्ठा

बडयेर बडी पडली धोलार
शंखनाद वयल्या सुरार
'हर हर' चो गजर तालार
मारात शेंसार मारात शेंसार
तरण्या कुडीर येवं दी भार
पोरण्या शस्त्रांक नवी धार!

लोकहिताचो आचार - विचार
सीमोल्लंघन दसऱ्या म्हुर्तार
उखलात पावल, सरात मुखार
ध्येय - मार्गार खेळात 'जुगार'
'दुदांत साखर' जिखले जाल्यार
निर्शेव नाकात हार खाल्यार!

जिणे - तारूं खिणां - ल्हारार
तड सोदीत चलता नेटार
सुकती - भरती भवसागर
ध्येयनिश्टा होच आधार!

**कै. वसंत वैकुंठ कारो**

('परमळ' दिवाळी अंक १९७१ वयल्यान)

## इतिहासाच्या पानांनी तुमीय भर घालात...



'जागां'त फाटले कांय म्हयने आमी 'इतिहासाचीं पानां', सोदून ताजे वयलो धुल्ल पुसून ती तुमच्या सामकार दवरल्यात. तातूंत भौ. दामोदर मावजो आनी भौ. माधव बोरकार हांच्या संग्रहांतली कांय पानां उजवाडायल्यांत. भौ. मावजो आनी भौ. बोरकार हे दोगूय चिकित्सक लेखक आनी साहित्य वेव्हारा कडेन चिकित्सक नदरेन पळोवपी म्हालगडे. पूण अशें आनिकूय जायते चिकित्सक वाचक, संशोधक 'जागा'चे वळेरेंत आसात. तातूंतले जायते जाण संग्राहक आसात. कोंकणी साहित्य चळवळींत मोलादीक भर घालपी मासिकां आनी आंक उजवाडा आयल्यात. पूण तातूंतले जायते प्रयोग काळाच्या पोटांत गडप जाल्यात. हे मोलादीक साहित्य ना नपश्यात जायत अशी भिरांत आसा. तें साहित्य सोदून ताची परतून मांडणी करप, तें साहित्य परतून उजवाडावप ही आमची जापसालदारकी. नवे पिळगेकूय ह्या साहित्याची वळख करून दिवप गरजेची आसा. तुमचे कडेन अशें साहित्य आसत जाल्यार ते आमकां मुजरत धाडून दियात. पोस्टान वा कृपाली नायक हांच्या मोबायलाचेर क्र. ९७६५१८७६०६ चेर धाडल्यार जाता. संग्रहकाचे नांव त्या लेखा वांगडा आमी मुजरत दितले. तुमच्या ह्या विधायक प्रतिसादाची वाट पळयतात.

**संपादक**

# यांत्रीक संसार

**मुळ हिंदी :पुनम**

**अह्मद – अणकार : उदय देशप्रभू**

विनोद ऑफिसांतल्यान व्हड उमेदीन आयिल्लो. सुविरान ताका इतलो उमेदीन पळोवन विचारलें,

"कसली खास खबर आसा काय किदें?"

"हय हय, कितल्या दिसांची इत्सा आसली ऑस्ट्रेलिया वचपाची, कंपनी आतां धाडटा खंय."

सुविराय उमेदली, "अशें, वा, केन्ना वचपाचें तर?"

"पेपर तर म्हजे तयारूच आसात, जालें रोकडेंच वचपाचें जातले."

"पूण म्हजो तर पासपोर्टूय जावंक ना. इतल्या बेगीन जातलो तर?"

"सद्या हांव एकलोच वता."

"आनी हांव?" सुविरा दुखावली.

"आतां फॅमिलीक व्हरू शकना, तुका व्हरपाचें मागीर पळोवया."

"हांव हांगा एकली कशी रावतली? तरीय बीन तुका कसली इतली उमेद जाल्या तर?"

"ही संद खूब खबर परिस्थितींत फावो जाल्या, हांव ती पयसावंक सोदीना."

"तें बरें आसा, पूण म्हाकाय बी वांगडा व्हर न्हय."

"ना. सद्या तें शक्य ना."

"लग्नां उपरांत फकत स म्हयन्यांनी तूं म्हाका एकल्याक सोडून वतलो, आनी तीय बी आतां जेन्ना तुजी म्हाका चड गरज आसा."

"सुविरा आता तूं गुरवार आसा, पांच म्हयन्या उपरांत बाळेटेर आसा. हांव तो मेरेन परतो येतलो. आनी मागीर येवप वचप चालूच आसतलें."

"बाळंटेर जालो काय मागीर घेवन वतलो?"

"हय, आतां ताका खूब कळाव आसा, हे कांय दीस तरी तूं म्हजे वांगडा खोशयेन घालय."

सुविरान दोळ्यांतल्यान येवपी दुकां लिपोवन विनोदाच्या वेंगेंत भितर सरली. विनोद भविश्यांतल्या सपनांनी गुल्ल जाल्लो. पूण सुविराचो मूड लाग नासलो. सुविरान जाय ते फावट आपली दुकां पुशीत पुशीत रातीचे जेवण रांदलें आनी विनोदा वांगडा बसून खूब कश्टान मना आड जेवली.

उपरांत विनोद मात आरामांत न्हिदलो. पूण सुविराक चैन पड नासली. पुराय रातभर ती कुशी परतीत रावली.

अशेच दीस वचत रावले, विनोद बाळंटेरा आदीं परतो येवपाचें उतर दिवन ऑस्ट्रेलियाक गेलो. सुविरा वांगडा रावपाक



सुविराची मम्मी आयिल्ली. सुविराची, मम्मी 'बिना' ' लकनौवची'. तिचे मन मुंबय लाग नासले. ती सांगताली, "हांगा तर शेजार-पाजार कांय ना, ना कोणाची वळख-पाळख, वेळ कसो वतलो.' चलये- आवयची भलायकी देवपाक लागिल्ली. विनोदा वांगडा 'वेबकेमा' वयल्यान गजाली जाताल्यो. पूण सुविरा आनिकूय बेजार जाताली. दोन दोन वावराड्यो आशिल्ल्यान सुविराक हेर कसलो त्रास नासलो. ती पुराय रातभर कुशी परतीत रावताली. सुविराक हरशी आराम आसलो. पूण ती गुरवारपणाची आसली. आनी घोव पयस. एकलेपण भोगताली ती. एक दीस तिच्या मम्मीन म्हणलें, "सुविरा हांव हांगा चड दीस रावूंक शकना, हांगा म्हजे मन बिलकूल लागना. टी.व्ही. पासून कितलो पळोवपाचो तो. आरामूय म्हूण कितलो करपाचो. अशें कर तूंच म्हजे वांगडा 'लकनौव' यो."

"ना मम्मी, विनोदाक हांव हांगाच राविल्ली जाय. म्हजो बाळंटेर जालो काय तूं रोकडीच वच."

बाळंटेराच्या तारखे पयली एक सप्तक पयलीच आयलो विनोद. सुविरा उमेदली. सुविराची हॉस्पिटलांत ॲडमीट जावपाची सगली तयारी सुरू जाली. बाळंटेर जालो, सुविरान सोबीत अशा चलयेक जल्म दिलो. विनोदान चलयेचे नांव 'सिद्धीत दवरलें. सगळीं खूश आसलीं. एक म्हयनो सरलो. विनोदान कसलीच गजाल काडली ना. तेन्ना एक दीस सुविरानच विशयाक हात घालो. तिणें विचारलें, "आतां घेवन वतलो न्हय आमकां?"

"सिद्धी" आजून ल्हान आसा. त्या नव्या देशांत नव्या वातावरणांत ताका सांबाळपाक तुका खूब त्रास जातले. उपरांत केन्नाय पळोवया." मम्मी त्या दोगांयच्या उलोवपांत तोंड घालप बरे जावचे ना म्हूण वगी रावली. तिणें मागीर इतलेच म्हणलें, "हांव तर आतां लकनौव वचपाचो विचार करता."

"हय मम्मी, तूं आतां वच" सुविरान काळजार फातर दवरून, ही जाप केली. मम्मीन विचारलें, "तूं एकलें कशें रावतलें? म्हजे वांगडा तूंय यो."

"ना मम्मी, हांव हांगाच रावतां म्हजे वांगडा ही वावराडी आनी म्हजी इश्टीण सिमा आसा. तें हांगा येवन वचून आसताच. हांव सांबाळून घेता सगळें."

चलयेक, खूब कितें ताणवाडोच्यो गजाली सांगून ती 'लकनौव' गेली. कांय दिसा उपरांत रोकडोच परतो येवपाचें उतर दिवन विनोदय ऑस्ट्रेलियाक परतो गेलो. सुविरान आपणाक 'सिद्धी' मदी गुंतून घेतलें. सुविराच्या इश्टीणीन सिमान एका इमानी आनी मेहनती बायल मनशेक 'नैमा'क सुविराक वांगडी म्हूण वेंचून

काडली. नैमाची दोगां भुरगीं गांवघरा तिच्या आवयगेर रावताली. ती विधवा आसली. तिणें खूब उमेदीन सुविराक आदार दिलो.

सुविरा विनोदा वांगडा केन्ना रावूंक वचूंक मेळत हाचे चिंतून दीस मेजताली. एका वर्सा उपरांत विनोद परतो आयलो. येना फुडे ताणें सुविरा आनी सिद्धी खातीर हाडिल्ल्या भेट वस्तूंचो शिंवर घालो. विनोदाक सामकार पळोवन खोशी जावन इतले दीस एकलेपणान काडिल्ले सगलो तेंप ती विसरलीं. एक दीस विनोदान सांगलें, ''हांव परतो येवपाचो यत्न करतां. बॉसा कडेन उलयलो हांव. तोय हयकार दितलो सो दिसता. हांगा रावून विदेशांत केन्ना केन्ना वचचें पडटलें. वयली पोस्ट आसतली, म्हणटकूच कामूय चड आसतले. हे फावट गेलो जाल्यार स म्हयन्यांनीच परतो येतलो.''

''बरें आसा विनोद, हे फावट हांगाच रावपाक येशी जाल्यार बरें जातलें. एकल्याक रावप खूब कश्टाचें जाता.''

उपरांत कांय दिसांनी स म्हयन्यांनी परतो येवपाचें उतर दिवन विनोद परतो गेलो. ताणें धाडिल्ले पयशांचे चेक नेमाक येताले. नैनानूय सुविराक तक्रारीची संद दिली ना. नैना, सिद्धी, सीमा, अंजना आनी हेर इश्टीणी सांगाताक सुविरा आपलो दीस अशेंच पासार करताली. पूण राती कडेन जेन्ना हांतरुणार आड जाताली तेन्ना विनोदाचे नासप तिचे काळीज पिंजून उडयतालें. दीसभर सगळ्यां मुखार ती एक खंबीर बायल आसताली. पूण भितरल्यान ती कितली मोडून गेल्ली हे तिचे तिकाच खबर आसलें.

विनोद सांगिल्ल्या प्रमाण स म्हयन्यांनी परतो आयलो मात. सुविराय खोशी जाली. आतां सगळे जाग्यार पडिल्ल्या बशेन जाले. मर्दी मर्दी विनोदाक परदेशांत टुरार वचचें पडटालें. सिद्धी चार वर्सांचे जालें, तेन्ना सुविरान आनीक एका चलयेक जल्म दिलो. ताचे नांव विनोदान समृद्धी दवरलें. दोगांय चलयांक सुविरान काळजा कडेन घट्ट गोपांत घेतली. ते वेळार तिका आवयची याद जाली. तिच्या मम्मीक कांय म्हयन्या पयली एका अपघातान मरण आयिल्लें तिचो बापूय लकनौव एकलोच रावतालो.

आतां ती रात दीस चलयां फाटल्यान वावरांत आसताली. विनोदाक आपल्या ऑफिसाच्या कामा फुडे फुरसत नासली. काळ आपल्या गतीन चलतालो. सिद्धी, समृद्धी व्हड जातालीं. पूण खंय तरी कितें तरी उणेपण आसलें. तिका जे जाय आसलें तें मेळ नासलें. सुविरा बेजार आसताली. तिका दिसतालें की विनोदान तिचे खातीर थोडो वेळ दिवंचो म्हूण. वांगडा बसून गजाली करप, थोडे तिचे आयकप, थोडे आपले सांगप. पूण विनोदा कडेन असल्या भावनांनी व्हावून वचपाक वेळ नासलो. तो सदाच कामांत आसतालो. सुविरा फकत ताचे मुखामळ पळयत उरताली. तो बिल्कूल एक 'रोबोट' मशीन सो जाल्लो. सुविरा दिसान दीस एकलीच पडटाली. सुविरान एक दीस उलोवनूय दाखयलें.

''विनोद थोडो तरी वेळ काड न्ही रे म्हजे खातीर'' विनोदाची जाप आसली ''सुविरा, होच वेळ आसा उंचेली लायफस्टायल जियोपाची, ताचे खातीर खूब धावपळ करची पडटली. कितल्या लोकांक शक्य आसा मुंबय शारांत असले बरें घर घेवप. सगळे कितें आसा हांगा, तूं फकत आरामांत मजा कर. फोन, इंटरनेट, गाडी कितें ना तुजे कडेन.'' सुविरा कितें जाप दितली. मन मारून वग्गी रावली. ती विनोदाच्या रोबोटीक जिवीताक उबगल्ली. तो एक तर भायर भायर आसतालो. आनी घरा आसल्यार फोन, लॅपटॉप, हातूंत गुल्ल आसतालो. राती कडेन एकांतांत पासून ताचें रोबोटीक वागप तिका उबगण हाडटालें.

एक दीस विनोद भायर सावन आयलो तेन्ना ताच्या वांगडा ताचेच पिरायेचो एक दादलो मनीस आसलो. विनोदान वळख करून दितना सांगलें, ''सुविरा हो महेश, आमी वांगडाच शिकल्यात. हो 'सी.ए.' आसा. त्या दोगांयनी एकमेकांची आदरान वळख करून घेतली. महेश खूब सादो मनीस सो दिसलो सुविराक. महेशान विनोदाच्या घराची खूब तोखणाय केली. सुविरा महेशाक दिवपाक कितेंय हाडपाक म्हूण रांदचे कुडीत गेली तेन्ना विनोदूय थंय आयलो. ताणें सांगलें, ''म्हज्या कांय बऱ्या इश्टां मदलो हो एक. खूब बऱ्या स्वभावाचो. पूण मिळकतीन म्हजे परस खूब फाटी उरलो. आयज अचकीत एका हॉटेला भायर नदरेक पडलो. ताचे आपलें ऑफीस आसा मुल्लूंडाक. ते भायर एका कोचींग सेंटरांत अकावंटंसीच्यो क्लासी घेता. खूब हुशार. हांव विचार करतां, हाका हांगाच वयल्या रुमांत रावपाक दिवंचें म्हूण. भुरग्यांचो अभ्यासूय घेतलो. तांकां ट्यूशना खातीर भायर खंय वचपाची गरज पडची ना आनी आमचे ताचेर उपकारूय जातले.

''ताचे कुटूंब?''

''लग्न जावंक ना तो. कोणा चलये कडेन मोग करतालो. पूण कुटुंबाची जबाबदारी, ताच्या धाकट्या दोन भयणांची लग्ना बीन करतां करतां आपले जिवीत विसरलो. त्या चलयेन आनीक कोणा कडेन लग्न केलें. एका गिरेस्त चल्या कडेन. हो दुसऱ्याच्या भल्या खातीर जियेतालो इतले दीस. पिसो कसो.''

सुविराक भितरले भितर, विनोदाच्या निमण्या उतरांची तिडक मारिल्ली. पूण तिणें फकत इतलेंच म्हणलें, ''तुका जाय तशें कर.'' विनोदान आपले भितर पुराय हिशोब बीन करून महेशाक सांगलें ''हें पळय महेश, म्हजें हें घर आसतना तूं आनीक खंय रावचो ना.''

''ना रे बाबा, हांव सुशेगात एका मनश्या वांगडा शेयर करून रावतां एका फ्लॅटांत. कांयच अडचण ना म्हाका. सकाळीं म्हजें ट्यूशन्स घेवन. उपरांत ऑफिसांत वता. ऑफीस लागीच आसा.''

''ना. हांव तुजे कांयच आयकून घेवचो ना. आतांच म्हज्या ड्रायव्हराक घेवन वच आनी तुजे सामानय घेवन यो.''

विनोदान ताका कांयच उलोवपाची संद दिली ना. आनी ड्रायव्हराक आफोवन ताका ऑर्डूय दिली.

त्या दोगांयच्या उलोवपांत सुविरान कांय वाटो घेतलो ना. महेश भायर सरून वतकूच विनोदान सिद्धी-समृद्धीक सांगलें, ''हें पळय, तुमचे खातीर एक ट्यूशन टीचर घरांतूच हाडून दवरलो. आतां जाय तेन्ना जाय तितलें ताचे कडसून शिकून घेयात.'' दोगांयनी 'थँक यू पापा'' म्हणलें आनी हांसत हांसत बापायच्या गोंपांत रिगलीं.

सुविरा वग्गी आशिल्लें पळोवन विनोदान विचारलें, ''तूं इतलें सिरियस कित्याक. तुका ताचो कांयच त्रास आसचो ना. आगो ताका हांगा दवरून घेवप नुकसानेचें बिलकूल ना.'' सुविरा मनांतल्या मनांत विनोदाच्या ह्या हिशोबी वृत्तीचेर बेजार जाली. कसलो हो

मनीस. सगल्या गजालीनी हिशोब-बिशोप? हांच्या काळजांत कित्या विशयी संवेदना म्हणून ना. इश्टागतींत पासून स्वार्थ, कसली हीन वृत्ती ही.

कांय वेळान महेश आपले सामान बीन घेवन आयलो. सामान कसलें एका बॉक्सांत पुस्तकांच पुस्तकां आसलीं. कपडे थोडेच, पुस्तकांच चड आसली. येना फुडें भिडेस्त जावन सुविराक ताणें विचारलें, "हांव आयलो म्हूण तुमकां कसली आडखळ बी ना न्ही?"

सुविरान जाप दिली, "ना-ना, आडखळ कसली. तूं आरामांत राव हांगा. कसली गरज पडली जाल्यार मुजरत सांग."

राती जेवणा वेळार विनोदान सुविराक सांगलें, "अशें करुंया, आयज पयलोच दीस, ताका हांगाच जेवक आफोवया. फाल्यांच्यान महेशाचो नास्तो आनी जेवण वयरूच धाडून दी. दनपरां कांय जेवणाक तो आसचो ना" सुविरान मोन्यांनी हयकार दिलो.

महेश सकयल आयलो, ताच्या बडबडीन हांसपा उलोवपांत एक वेगळेच आकर्शण आसलें. सिद्धी-समृद्धी तर जेवण सोंपता म्हणल्यार ताचे कडेन संवकळीची जाल्ली. विनोद आपल्या कंपनीच्या टूरा विशीं उलयतालो. उसरां रातीं जेवणा उपरांत महेश सगळ्यांक 'गूड नायट' आनी 'थँक्स' म्हणून वयर गेलो.

कांय वेळा उपरांत विनोद आनी सुविरा आपल्या कुडींत आयलीं. कपडे बदलून सुविरा आड पडली. विनोदान विचारलें, "हाका दवरून सारके केलें न्हय?"

"आतांच कशे म्हणू शकतात? एक दीस पासून जावंक ना ताका येवन."

"आगो, म्हजो हिशोब केन्ना चुकना. जी.एम. च्या पोस्टी मेरेन बेठोच पावूंक ना, हांव."

"तुज्या जिवितांत हिशोब आनी आपल्या पोस्टीच्यो बढायो मारपा बगर आनी कितें आसा व्हय?"

"हय आसा न्हय." अशें म्हणीत विनोद सुविराच्या लागी सरलो.

एका सप्तका उपरांत विनोद १५ दिसा खातीर ऑस्ट्रेलियाक गेलो. महेश सकाळीं १० वरांचेर वयतालो. तो बद्द स वरांचेर परतो येतालो. सुविरा ताचे खातीर च्या पाणी आनी राती कडेन जेवण वयर धाडून दिताली. सिद्धी-समृद्धीक केन्नाय कितें अभ्यासा विशीं विचारचें आसल्यार ती सकयल्यानूच ताका उलो मारताली. "अंकल, कितें डिफीकल्टी आसा मातशे सकयल येता न्हय?"

महेश खोशयेन येतालो आनी ड्रॉईंग रुमांत बसून तांचो अभ्यास घेतालो. सुविराक महेशाचो सादो सरळ स्वभाव पसंत आसलो. चड बडबड ना, दुसऱ्याक उणाक लेखप ना. एक सादो सरळ स्वभावाचो मनीस.

ताच्या कुशीचे घर 'सीमा'चे आसलें. सिमा ताचो घोव रंजन आनी तांचो १४ वर्सांचो पूत विपुल हीं सगळीं महेशाक संवकळीचीं जाल्लीं विपूल सदांच सांजे वेळार मॅथ्स शिकपाक ताचे कडेन येतालो.

आयतारचो महेश ट्यूशन दिवपाक वतालो. ते दिसा ताचो क्लास चड वेळ मेरेन चलतालो. एका आयतारा सिद्धी-समृद्धी कोणाच्या तरी 'बर्थ डे' पार्टीक गेल्लीं. सुविरा राती कडेन जेवणाक बसपाक बायक राविल्ल्याचो आवाज जालो. महेश आयिल्लो. ताणें विचारलें, "सिद्धी-समृद्धी" खंय आसात? खूब काळोख जालो.

"बर्थ डे पार्टीक गेल्यात."

"तूंय बी बऱ्या वेळार पावलो. हांव जेवणाक बसपाकूच वतालें. तुजेंय जेवण हांगाच वाडटा. यो बस."

"मात्सो फ्रेश जावन येतां."

तो परतो येतकूच दोगांय जेवपाक बसलीं. सुरवेक सुविराक दिसलें की आतां हाचे कडेन कसल्यो म्हूण गजाली करतलें, मोन्यांनी जेवप काय सारकें जावचें ना. पूण ल्हव ल्हव आपशी गजाली वाडत रावल्यो. विशय म्हूण काबारूच जायनात कशे. सुविराक एक नवी उमेदशी आयली. ती महेशाक नियाळटाली. ताचे पुरुशी सौंदर्य, आकर्शक हांसणे, सादो-सरळ स्वभाव. उलयता उलयतां महेश खांकलो, ताणें विचारले, "बोर बीन जावंक ना न्ही?"

सुविरा हांसली, आनी तिणें जाप दिली. "ना, ना, तशें कांय ना." सुविरा हांसली तेन्ना महेश तिका पळयतच उरलो. दोन चलयांची आवय, इतले सुंदर हांसप, इतले आकर्शण मुखामळ, तो उलयलो, 'इतलो सुंदर हांसो आयज पयले फावट पळयतां हांव तुजो. हरशी तूं इतली सिरियस कित्याक आसता?"

सुविरा मनांतल्यान म्हणटाली, कोणा कडेन हांसू? कोणा कडेन उलोवं? तिचे उलोवणें आयकपाक ह्या घरांत आसा तरी कोण, चलयो स्कुलांत, फोनार, नेटार, इश्ट-इश्टीणी मदीं घुस्पून आसात, विनोद नाशिल्ल्यातूच जमा.

ती विचारांत गुल्ल आसा तें होलमून ताणें म्हटलें, "सॉरी, हांवें तुकां सिरियस करून उडयली." सुविरा सावरली, "ना ना तशें काय ना"अशें म्हणीत सुविरान हांसपाचो यत्न केलो. पूण दोळ्यांतलीं दुकां महेशाच्या नदरेंत आयलीच. महेशान म्हणलें, "तूं खूब सुंदर आसा, तनान तशी मनान." ताच्या दोळ्यांनी कौतूक आसलें, आनी ते कौतुक ताच्या कुडीचेर असर करताले, ताचे मन भंयभीत जालें. ताची उतरां आयकून सुविरा अजाप जाली. आपले विशीं कोण इतले उलोवंक शकता, हें तिच्या कल्पने भायलें आसलें.

महेशान जेवणा उपरांत आपलें ताट रांदचे कुडींत व्हरून दवरलें. सुविरा नाका म्हणटा आसतनाय जेवणाचे मेज साफ करपाक तिका मदत केली. उपरांत गुडनायट म्हणून वयर आपल्या कुडींत गेलो.

हे घडणुके उपरांत तांचे भितरल्यो फॉर्मेलिटीज काबार जाल्यो. ल्हव ल्हव सुविराच्या काळजांतल्या रित्या जाग्यार महेशान राबितो केलो. आतां ती महेशाची वाट पळयताली. ताची काळजी घेताली. तिणें आपल्या मनाक जाय तो समजावपाचो यत्न केलो पूण काळीज मना कडेन सहमत जाय नासलें. एक फावट कोणाच्या काळजांत सुवात मेळत जाल्यार ती रिती जावपाक खूब कुस्तार.

कांय दिसांनी विनोद आयलो. ताका घरांत कितें तरी बदल जाल्लो दिसलो. पूण ताचे कडेन लक्ष दिवपा इतलो ताचे कडेन वेळूच नासलो. विनोदाचें ऑफीस रुटीन सुरू जाल्लें. तो सकाळीं आठांक ऑफिसा खातीर भायर सरतालो. ताच्या परत्या येवपाची निश्शीत वेळ नासली. सुविरानूय हाचेर भासाभास करप सोडून दिल्लें.

एक दीस विनोदान प्रसन्न मुखामळान हांसप वावुरपी सुविराक म्हणलें, "आतां तूं खूब समजीकायेन वागूंक लागलां. आतां तुवें म्हज्या कामांत व्यस्त उरपी जिणेकडेन बरी

समजिकाय करून घेतल्या.''

हें आयकून सुविरा ताका पळयतूच उरली. उलयली कायच ना. उलयतली तरी कितें, हेंच की एका परक्या दादल्यान तिच्यांत बदल घडोवन हाडला म्हूण एका परक्या दादल्या वटेन तिचें काळीज वळटा म्हूण.

महेशाच्या घरंदाज वागणुकेक आनी आपुलकेक लागून ती ताचे फाटल्यान पिशी जाल्ली.

पंदरा दिसां उपरांत विनोद एका सप्तका खातीर दिल्ली गेल्लो. आतां मेरेन सुविरा आनी महेशान एकमेका विशीं आपली आवड उमजून गेल्ली. एक दीस सिद्धी-समृद्धी दोगांय शाळेंत गेल्लीं. सुविराक आपली भलायकी मातशी बरी ना अशें दिसतालें. म्हणून ती आपल्या बेडरुमांत आड पडिल्ली. महेशाचेर एक नदर मारपाक तिचे मन करताले. पूण तिच्यान नज जाल्लें. ती खंय दिसना म्हूण तिका सोदीत महेश तिच्या बेडरुमाच्या दारार मारून भितर सरलो. ती मातशी लजेली. खंयचोच परकी दादलो पयलेच फावट तिच्या बेडरुमांत आयिल्लो. तिणें उठपाचो यत्न केलो. पूण महेशानूच तिच्या खांदाक धरून तिका आड पडून विसव घेवपाक बुजवण दिली. महेशाच्या त्या मायेच्या स्पर्शान तिची कूड अनवळखी अशा भावनेन शिरशिरली. तिचे पोले तांबडे जाले. महेशाकूय तो बदल जाणवलो. महेशान विचारलें, ''कितें जालें.''

तिणें जाप दिली, ''काय ना, हरशींच'' महेशान तिच्या कपलाचेर हात धरून अंदाज घेतलो. ताणें म्हणले, ''जोर तर ना, कपळ उसळटा बीन?'' सुविरान हय म्हूण जाप दिली. तेन्ना महेशान थंयच बेडार बसून आपल्या हातांनी तिचे कपल चेपूंक सुरवात केली. सुविरान ताका मनाय करपा खातीर ती कितें उलोवंक, आनी महेशान आपलो दुसरो हात तिच्या ओठांचेर दवरून तिका उलोवपाक मनाय केली. त्या घडणुकेक लागून सुविरा खंयच्या वेगळ्याच संवसारांत पावली. कोण तिका इतल्या मायेन वागयत हाची तिणें कल्पना पासून करूंक नासली. विनोदान अशे बशेन केन्ना तिचे कडेन, वागणूक केल्ली तिका याद ना. महेशाच्या ह्या स्पर्शांत कितली माया, कितलें सूख, कितलो मोग, कितलें आपलेपण ते स्थितींत तिणें दोळे धांपून घेतले.

महेशाचे हात आता माथ्या वयल्यान सरकून तिचे पोले सांसपिताले. सुविरान आपले दोळे धांपूनच दवरले. महेश तिका मोगान पळयत उरलो. ताच्यान रावूं नज जाले आनी ताणें तिच्या कपाळाचो उमो घेतलो. सुविराक हे सगळे थांबवपाचें आसलें. पूण ती तशीच दोळे धांपून आड पडून रावली. महेश ल्हवू ल्हवू तिच्या लागी लागी येवंक लागलो. तेन्नाच तिणें आपले दोळे उकते केले. आनी त्या दोगांयच्यो नदरो एकामेकां मदीं गुंतल्यो. त्या नदरे मदी दोगांयनी एकमेकांक कितें सांगलेशें ती शिरशिरून गेली. मनशाच्या कुडीचे आपले शें एक संगीत आसता, आपलो सूर आसता.

महेशान जेन्ना तिका स्पर्श केलो तेन्ना तिचे भितर एक लय निर्माण जाली आनी ती ताच्या गोपांत रिगत गेली. महेशान तिचे ओठाचे उमे घेतले. त्या स्पर्शांत अशी कितें ताकद आसली की ती ताका न्हयकारूक शकलीच ना. दोगांय एकामेका मदीं विलीन जाली. कांय खिणां उपरांत आपले सतर बितर जाल्ले कपडे सांभाळीत महेशान मोगान विचारलें, ''म्हजेर रागार बिन ना मूं?'' सुविरान लजेवन ना म्हूण मान हालयली.

महेशान म्हणलें, ''हांव आतां वता म्हजी क्लास आसा.'' सुविराच्या पोल्याचो एक उमो घेवन तो वचपाक भायर सरलो. सुविरा तशीच आड पडून रावली तिची पुराय कूड एका अनवळखी भावनेन प्रसन्न जाल्ली. खंय विनोदाचे ते यांत्रिकी धुसमुसप आनी खंय महेशाची ही मोगान ल्हवपीक भावनेन केल्लो स्पर्श आनी उपरांतचे धादोस करपी सूख. ती अजाप जाल्ली. तिका ह्या सगळ्या घडणुकेक लागून गुन्यावकारी कित्याक दिसना म्हूण. कितें ती इतली वर्सां विनोदाच्या अती हिशोबी स्वभाव, अतिव्यस्त दीस भराचो कार्यक्रम हाका उबगल्ली. काय विनोद केन्ना तिच्या काळजा मेरेन पावलोच ना.

तिणें आतां थारायल्ले, ह्यान फुडे फकत आपले खातीर जगप. ती एक घोवाची बायल, भुरग्यांची आवय, आसली तरी ती एक अस्तुरीय बीन आसा.

दुसरे दिसा सिद्धी-समृद्धी शाळेंत गेलीं. महेश तयार जावन सकयल आयलो. सुविरान ताका मोगाळ नदरेन पळयलो. उलयली कायच ना. महेशान तिचो हात धरून तिका आपले वेगेंत घेतली. दोगांय एकमेकांच्या वेगेंत गुल्ल जाली. उपरांत महेशान तिच्या ओठाचो उमो घेवन तिका आपल्या हातांनी उखलून घेतली आनी बेडरुमा कडेन गेलो. सुविरान कायच आडखळ केली ना. तिका दिसलें ती तिच्या ह्या कुडीच्या झाडा खातीर गरज तितले उदक मागताली आनी अचकीत त्या झाडाचेर पावसाचो शिंवर जाता सो.

महेशा वांगडा घडिल्ल्या संबंदाक लागून सुविराक एक नवे जिवीत मेळिल्लें. ती मना पासून उमेदलेली.

फोना वयल्यान विनोद दिसांतल्यान एक फावट सुविरा आनी भुरग्यांची चवकशी करतालो. तीय बी मेजून मापून उतरांनी. कशें आसा? भुरगी कशी आसात? बरें तर मागीर उलोवया इतलेंच. सद्दा हींच उतरां. सुविराक दिसतालें तांचे मदी आनीक उलोवपा सारके कांयच उरले ना काय म्हूण. आनी महेश, तो काय बऱ्यो गजाली करता. ताच्योय आयकता. विनोद तिचे केन्ना काय आयकुनय घेय नासलो. ताका तर कोणा कडेन हरशी उलोवंकूच नाका आनी कोणाचे आयकूकय नाका. तो फकत आपले भितरूच जियेता. बायलेच्या हातीर फकत पयशे दवरले म्हूण घोवाचे कर्तव्य पुराय जायना.

हे फावट विनोद दिल्लीच्यान परतो आयलो तेन्ना ताका पळोवन तिका खोशी जाली ना, वयल्यान ती बेजारूच जाली. आतां महेशाक मेळपाक आडखळ जातली. राती कडेन विनोदाक बायलेची बदल्लेली वागणूक लक्षांत आयली ना. सुविराकूय अजाप जालें. हो मनीस आपले भितर इतलो गुल्ल आसा की ताका बायलेचो नाराजीचो प्रतिसादूय वळखूक आयलो ना, बायलेच्या बदलिल्ल्या वर्तणुकेचेरूय ताचे लक्ष ना. ती मनांतल्या मनात विनोद आनी महेशा मदीं तुलना करपाक लागली. आता ती पुराय तरेन बदलिल्ली. तिच्या मनाचो एक वाटो विनोदा वटेन आसलो, जाल्यार दुसरो वाटो महेशा वटेन. ते राती कडेन विनोद तांत्रीक रितीन तिका भोगून कडेक सरलो. ती विचार करपाक लागली. ह्या रोबोटा वांगडा कशे दीस सारतली, ह्या फुडें तिका तर सूख, संपत्ती, पयसो, गाडी, व्हडलें घर कांयच नाका

आसले. तिका फकत मोग जाय, असलो वांगडी जाय जो तिका समजून घेयत, तिच्या भावनांचो, आदर करीत. रातभर महेशाचे मुखामळ तिच्या नदरे मुखार येताले.

सकाळीं नाश्त्या वेळार विनोदान विचारलें, "महेश कसो आसा? भुरग्यांचो अभ्यास बीन पळयता न्हय?" तिणें जाप दिली 'हय.'

ताणें विचारलें, "ताका नाश्तो धाडून दिलो?" तिची जाप "ना, ताकाच सकयल आफयलां."

ताणें म्हणलें, "अशें? वाऽऽ" विनोद मात्सो शिटकावलो. इतल्यान महेश आयलो, विनोदा कडेन ताणें हाय-हॅलो केले. महेशाक पळोवन सुविरा उमेदली. विनोदान ताका विचारले, "मागीर, कितें म्हणटा, तुजें ऑफीस, ट्यूशन बीन कशें चल्लां?"

महेशान जाप दिली, "बरे चल्लां सगळें"

विनोदान म्हणचें, "हय तर बाबा, टीचर आसप म्हणल्यार मजा, कांय वेळ शिकयलें, उपरांत घरा आयले, हांगा आमकां पळय, रातदीस फुरसतूच ना."

महेशान म्हणले, "मागीर कित्याक इतली धावपळ करता? केन्ना तरी सुशेग घे?"

विनोदाची जाप, "आरे बाबा सुशेग घेतल्यार हें सगळें थोडेच मेळूं येता."

व्हडा गर्वान विनोद उलयतालो आनी एकलोच नाश्ता करतालो. महेशान नमळायेन सुविराक विचारलें, "तुजो नाश्तो खंय?"

विनोद मात्सो शिटकलो आनी उलयलो "आगो, सुविरा तूंय बी बस न्ही नाश्त्याक"

सुविराय नाश्त्याक बसली. विनोद नाश्तो काबार करून सोमतोच उठलो. सिद्धी-समृद्धीय बी, वचपा खातीर तयार आसलीं. सुविरा महेश एकमेकां कडेन मोगाळ नदर मारून नाश्तो करतालीं. महेशान म्हणलें, "हांवूय चल्लो आतां." भुरगींय भायर सरलेलीं, विनोद केन्नाच ऑफीसाच्या वाटेर पावलो. तेन्ना सुचक नदरेन तिणे महेशाक म्हणलें, "राव ना मातसो?"

महेशान जाप दिली, "खूब म्हत्वाचो क्लास आसा. मेकळो जालो काय रोखडोच येता." बेगीनूच येतां, सगळे जाग्यार घालून."

"पूण तो मेरेन भुरगींय परतीं येतलीं." सुविरान म्हणलें.

"आवयस इतलें उतावीळ जावप?" महेशान सुचक प्रस्न केलो. सुविरा हांसली. सुविराक आपल्या वेंगंत घेवन ताच्या ओठांचो उमो घेवन महेश भायर सरलो. सुविरा ताचे पासून येवपी सुवासाच्या धुंदीत खूब वेळ गुल्ल जाली. आतां तिका कसलीच काळजी नासली. ना कसलो भंय, ती आपल्या ह्या हिंमतीक लागून अजाप जाल्ली. कितें मोगातली ताकद दिता? कितें हाकाच खऱ्यांनी मोग म्हणटात काय? मागीर फाटलीं १५ वर्सां विनोदां वांगडा संवसार केलो ते कितें आसलें तर? तिचें काळीज विनोदा कडेन कित्याक ओड घेना जे महेशा वटेन ओड घेता.

विनोदाच्या स्पर्शान ती उमेद, तो उत्साह कित्याक येना जी महेशाच्या स्पर्शान येता. आतां रात जावं दीस विनोदाची याद तिका कित्याक येना. महेशूच कित्याक तिच्या काळजांत घर करून आसा. ती जायते फावट विचार करताली, घरांत धडधाकट, संपन्न घोव आसतना, ती परक्या दादल्याच्या स्पर्शा खातीर कित्याक उत्सूक आसता. खंय गेले ते सगळे पोरने संस्कार जाका लागून इतल्या वर्सा तिका केन्नाच परक्या दादल्याचे आकर्शण दिसलें ना. दोळे बंद करतकूच तिका जाणीव जाताली ती महेश कोण अनोळखी परकी दादलो. न्हय तर तिच्या सपनांतलो राजकुंवर. अस्तुऱ्यांच्या चरित्रां विशीं विचार करतना तिच्या फकत शारिरीक मळारूच कित्याक करतात, कितलो विचित्र नेम जावन आसा हो.

उपरांत कांय दीस सरले. दोगांयचे संबंद दिसान दीस घट्ट जाताले. संद मेळटा तेन्ना दोगांय एकठांय येतालीं. सुविरा आपल्या इश्टीणीक बी साप्प विसरून गेल्ली. सगळ्यो इश्टीणी तिची भेट जायना म्हूण कागाळ्यो करताल्यो. पूण ती भुरग्यांच्या अभ्यासाचे निमित्त सांगून सगळ्यांक आवियार करताली. सुविरा विनोदाच्यो गैर हजेरींत जायते फावट महेशा वांगडा मोटर सायकलीचेर भायर भोंवपाक वताली. दोगांय बाजार करतालीं. सिनेमा पळयतालीं आनी घरा येवन एकमेकांच्या गोपांत वेळ सारतालीं. तिची शेजात्र सिमान तांकां दोगांकूय मोटार सायकलचेर भोंवतना पळयल्ले. जाय ते फावटी तिका कितें तरी दुबाव मारिल्लो. पूण कोणाक सांगतली आनी कशी सांगतली. सिमा सुविराची लागीची इश्टीण, पूण तिका सुविराचे हें वागणे खटकतालें.

सुविराक आतां हाची काळजी पडिल्ली की तांच्या ह्या संबंदाचें भविश्य कितें जातलें काय म्हूण. ती तर आतां महेशा बगर जिवीत सारपाची कल्पना पासून करूंक शक नासली.

एक दीस ती दोगांय घरा आसतना सुविराक बेजार आशिल्ली पळोवन महेशान विचारलें, "कितें जालां? बेजार शें कित्याक बसलां?" तिणें जाप दिली, "महेश, कितें जातले आमचें? हांव तर आतां तुजे बगर जियेवंक शकना."

"हांव तरी खंय तुजे बगर दीस सारूंक शकतलो. हांवें तर केन्ना विचारूच करूंक नाशिल्लो. तूं इतलें म्हजेर मोग करतलें म्हणून. कारण समाजान घालून दवरलेली ही फास्की मोडप सोंपें न्हय, इतलें हांव जाणा."

"पूण एक ना एक दीस विनोदाक हें सगळें कळटलेंच न्हय."

"तेन्ना पळोवया कितें करचे तें?"

"ना महेश, कसलोच वायट प्रसंग येवचे पयलींच विचार करचो पडटलो."

"तशें जाल्यार सांग, कितें करूंक येवजिता? म्हाका तूं सांगशीत ते कबूल आसा."

"आमी दोगांय, आनीक खंय तरी वचून रावुंया."

"कितें?" महेशाक शॉक सो लागलो. आगो, पूण "विनोद? भुरगीं?"

"विनोदाक तर घरकान्न म्हणल्यार कितें तेंच खबर ना. दोगांय चलयांक तर तो रोकडोच हॉस्टेलांत घालपाचो आसा. आनी हरशीय बी म्हज्यो चलयो तांच्या बापायच्या पावलारूच पावलां मारतना दिसतात. तोच पयशांचो माज, तेच नेट. जेन्ना घरांत कोणाकूच म्हजी गरज ना, तेन्ना हांवें म्हजे खातिरूच विचार करचो पडलो ना." इतलें उलयतना सुविराचो ताळो अंदलो.

महेशान तिका आपल्या गोपांत घेवन सावरलें, ताणें म्हणलें, "पूण घडये हांव तुका इतल्यो सूख सुविधा दिवंक शकचो ना."

"जें तुवें म्हाका दिलां ताचे कडेन सर केल्यार हे सगळें तुश्च. महेश आमी बेगींनात बेगीन हांगाच्यान पयस खंय तरी वचुया म्हज्या मनाक मारून मारून जगपाची म्हाका आतां उबगण आयल्या.

''बरें तर हांव रावपाची कितेंय वेवस्था करतां.''

''आनी तूं पयशाची काळजी करूं नाका म्हाका कितें ऐशो आरामाची गरज ना. सादे जिवीत आनी तुजो सांगात इतलेंच पुरो म्हाका.''

''पूण तूं विचार कर, रावूंक जातलें तुज्यान तुज्या कुटुंबा बगर?''

''हय, हांवें सगळो कितें विचार केला. तुका मेळून सुमार एक वर्स सरत आयलें आता. इतल्या दिसां भितर हांवें खूब कितें विचार केलां.''

महेशान तिच्या धृड निश्चेयाचो अणभव घेतालो. सुविरान सांगलें, ''हांव रोकडीच विनोदाक सगळें कितें सांगतली की आतां हांव ताचे वांगडा रावूंक शकना म्हूण.'' आनी दोगांय फुडारा विशीं चर्चा करूंक लागली. इतल्यान सिद्धी-समृद्धी आयली. महेश वयर आपल्या रुमांत गेलो. सुविरान भुरग्यांक विचारलें, ''खूब कळाव केलो येवपाक पार्टींतल्यान.'' ''हय मम्मी, फ्रेंडा वांगडा वेळ केन्ना पासार जालो कळ्ळेंच ना.''

सुविरा आपल्या चलयांचे तोंड पळयतच उरली. हांकां सोडून रावूं शकत व्हय ती? ती आवय आशिल्ली ह्या भुरग्यांचीं, कितें करपाचें येवजीता ती. इतल्यान समृद्धीन म्हणलें, ''मम्मी रिंकीच्या मम्मीक पळयल्या तुवें?''

''ना.''

''तूं पळयच तिका, कितें दिसता ती, कशें एंजॉय करता लायफ, आनी तूं सामकी अबरगत शी.''

''मागीर कितें करतली तर, तुमी दोगांय तर आपल्या शाळेंतल्या फ्रेंडा वांगडा बिझी आसतात हांव एकलीच खंय सवंग कशें भोवूं?''

आतां सिद्धीचेंय तोंड सुटलें, ''आगे, मम्मी, कितें ना आमचे कडेन. डॅडीक पळय, कितलो सक्सेसफूल आसा.'' सुविरान मनांत म्हणलें, 'जशें बी तशे फळ'. कांयच उलयली ना. आतां सगळ्यांक सोडून वचपाची येवजण मनांत घट्ट जाली.

त्या दोगांयनी आखिल्ल्या येवजणे प्रमाण महेश विनोदाच्या घरांतसून अशे सांगून भायर पडलो की ताका खंय एक बरो जॉब मेळ्ळा. थंय येवप वचप हांगासून पयस जातलें. विनोदान फकत 'ॲज यू वीश' म्हणून ताका अवियार केलो. आतां सुविरा आनी महेश मोबायलार पासून उलयतालीं.

तीन दिसा उपरांत सुविराचो ३७ वो वाडदीस आसलो. विनोदान ऑफिसांतल्यान येना फुडें म्हणलें, ''सुविरा हांव परवां जर्मनीक वतलो, ऑफिसाची एक मिटींग आसा.''

थंयच बसून आशिल्ल्या सिद्धीन ताका विचारलें, ''पूण मम्मीचो बर्थ डे''

''ते हांव थंय सावन म्हारग अशे गिफ्ट घेवन येतलो. तुमचे मम्मी खातीर, आनीक कितें जाय तर बर्थ डे दिसा?''

हें आयकून सिद्धी बेजार जावन आपल्या रुमांत गेलें. डिनरा उपरांत विनोद बेडरुमांत आपल्या आलमारींत कांय पेपर पळयतालो. तो खूब ओकुपांत दिसतालो. सुविरान गंभीर स्वरान म्हटले, ''विनोद, कितें उलवपाचे आसा, तुजे कडेन.''

''आतां नाका, खूब बिझी आसा.''

''ना ना, आतांच उलोवंक जाय.''

''इतली घाय कित्याक, हांव वचून येतकूच उलोवयां.''

''तेन्ना उलोवंक हांव आसची ना.''

''इतले कित्याक बेजार करता म्हाका?''

''विनोद, हांव वतां.''

पेपरा वयल्यान नदर काडी नासतना विनोदान विचारलें, ''खंय?''

''महेशा वांगडा, कायमचें.''

पेपर थंयच उडोवन विनोद तिडकलो, ''हें कितें पिशेपणां?'' अशें म्हण्टा म्हणटा ताणे सुविराचेर मारपा खातीर हात उखल्लो. सुविरान ताचो हात आडायलो.

''असली हिंमत करूं नाका विनोद, खूब पश्तावतलो.'' सुविरान विनोदाक सुनायलें.

''कितें उलयता तूं हें?''

''हांव आतां तुजे वांगडा एकूय दीस रावूं शकना.''

''कित्याक कितें उणें आसा तुकाच. सगळें कितें आसा घरांत, कितलो पयसो हाडून वतता तुज्या हातांत.''

''पयसोच जर सगळें विकतें घेवंक शकतालो जाल्यार हांवूय खूश आसपाची. म्हजे भितर कितें तरी शेंणत चल्ला. हे म्हाका खुब वर्सां पासून जाणवता विनोद. म्हाका जे जाय तें कांयच ना ह्या घरांत.''

''तो घातकी, ताका हांव कसोच सोडचो ना.''

''तुजे कडेन कोणाक धरपाक वो सोडपाक वेळ खंय आसा.''

ताका त्राँसा मारीत सुविरा उलयली. ''जाचे कडेन बायलेचे मन समजून घेवपा खातीर मातूय काळीज ना, मनांत भावना नात, ताका दुसऱ्या कोणाक दोशी थारावपाचो मातूय अधिकार आसना.''

विनोद तिचें तोंड पळयतूच उरलो. सुविरा एका बॅगांत आपले कपडे घेवक लागली. रात जायत आयिल्ली. भुरगीं न्हिदिल्लीं. विनोद पांय आपटीत रुमांतल्यान भायर सरलो. ताका कांयच येवजना जालें, तेन्ना ताणें सुविराची इश्टीण आनी तांची शेजान्न 'सिमा'क फोन केलो. तिका फोनाचेर सगळी काणी सांगून तिका बेगीन येवपाक सांगलें.

सुविरान चौशीं वटेन एक अदाशी नदर भोंवडायली. हें सगळें सोडून एका अनोळखी वाटेर वचूंक भायर सरता तें. ती कांय चुकीचे तर करीना न्हय? आनी चुकीचे आसल्यारूय बी मागीर पळोंव येता. महेशाचो सांगात मेळत जाल्यार बरेंच जालें. ना जाल्यार बापायच्या घरा वतली. ना जाल्यार एकलीच खंय तरी रावतली. आतांय म्हणून ती एकली एकलीच आसा न्हय.

सिमा रंजनाक घेवन रोकडीच आयली. सुविरा आपली बॅग घेवन भायर सरपाकूच आसली, ती समजली, विनोदान सिमाक आपोवन हाडला म्हूण. सिमान तिका सुनायलें, ''हें कितें करता, सुविरा, अशी कसली मजबुरी जाली, की तूं येदे व्हडले पावल मारपाक फुडें सरलां?

''पुरो आतां सिमा, मनाक तर वर्सां संकिनी समजायतां. काळजाक समजावंक पावली ना. काळजांतल्यान असक्त, मजबुर जाली हांव. आता आनीक रावूंक शकची ना.'' अशें सिमाक सुनावन सुविरा त्या घरांतल्यान भायर सरली. विनोद ताचे पांय सुन्न जावन थंयच उबो आसलो. सिमा आनी रंजन पळयतूच उरली. तांकां खबर नासले की सुविरान चूक केली वो सारके केलें तें. हय, पूण ती ते वाटेर मुखार सरली, जंय महेश तिची वाट पळयतालो.

संपर्क: ९७६४१३८६१६



# लॉकडावन डायरी

**कृ. म. सुखठणकार**



पंतप्रधान राष्ट्राक उद्धेशून (म्हणजे आमकां) भाशण करतले. तांचें भाशण रातचें ज्यूस्त आठांक सुरू जाता. आज हांव चपात्यो आनी किस्मूर घेवन टिव्ही सामकार बसलों. फाटले खेप (नोटबंदीच्या भाशणा वेळार) चपाती आनी तांबडी भाजी घेवन बशिल्लों. आजूय तांबडी भाजी फ्रिजांत आशिल्ली पूण आई म्हणपाक लागली ती आनी घेवन बसूं नाका. परत आनी अपसरण नाका. जाण्ट्यांची आयकुपाची संवंय म्हणटकच तांबडी भाजी घेतली ना. बराबर उदकाचो भरिल्लो तांबयो घेवन बसलों. फाटले खेप हांव 'उदक दिया उदक दिया' म्हूण आड्डत उरलों. घरांतलीं सगलीं नाशिल्ल्यो पांचश्यांच्यो आनी हजारांच्यो नोटी सोदपाक धांवलीं. पंतप्रधान टिव्हीचेर आयलो आनी ताणें आयतारा जनता कर्फ्यू जाहीर केलो. तेच दिसा ताणें ज्युस्त पांचांक पांच मिणटां खातीर दारांत, बाल्कनींत उबे रावन ताळयो, थाळयो, ताटां, घांटी वाजोवंक सांगलां (आई धाडांवक म्हणटा).

***

हिणें म्हाका माळ्यार चडयलो. हालीं म्हाका वयर चडटना कमरान येता. जाण्टेपणांचीं लक्षणां काय? नलू म्हणटा, 'भावोजी मनानं जाणटं होऊ नका शरिराने चालेल'. तशें म्हणलें म्हणून जाता? म्हाका ओगीच 'शागीर्द' सिनेमांतलें 'बडे मियाँ दिवाने' पद दोळ्या सामकार आयलें आनी धडधडपाक लागलें. माळ्या वयल्यान आयतारा वाजोवपाक तीन थाळे, एक ताट आनी एक घाट काडली. थाळे कोण वाजयतलो हाचे वयल्यान वाद जालो. हिणे सगल्यांक खडवान नांवां घालून थाळे दिल्या. आई घाट वाजयतली. हांव दोन पळयो टिपऱ्यो कश्यो वाजयतलों. ही जुबीन मेहता सारकी ऑर्केस्ट्रा कण्डक्ट करतली. सगल्यांक बावीस तारखेच्या सांजेची उमळशीक लागल्या. 'म्हाका सुहाग रातीची पसून इतली उमळशीक नाशिल्ली' हिणें म्हणले. 'हय गो बाये!' हांवें म्हणलें आनी लायट काडली.

***

हिणें पोरसांतल्यान गंजण, करबील, उरिल्ली तांबडी भाजी बुड्डावन हाडून दवरल्या. 'आयतारा कोणूच हुमऱ्या भायर पावल घालचो ना! आयतारा तुळशीक लेगीत उदक ना. हांव घरांतल्यानूच पाव पाव करतलीं' अशें फर्मान हिणें जाहीर केलें. गिराणाक वेद लागतात आनी मागीर तें सुट्टा तशीच जनता कर्फ्यूची गत काय कितें, असो आईक प्रस्न पडला. जनता कर्फ्यू लागतकच देवांक उदकांत दवर म्हूण ती म्हज्या फाटल्यान लागल्या. जनता कर्फ्यू म्हणजे गिराण न्हय अशें सांगून लेगीत तिका तें पटलें ना. तिणें म्हाका शिकेरकर गुरुजीक फोन करपाक लायलोच. 'बावीस मार्च म्हणजे फाल्गून कृष्ण १३ शततारका होय. या दिवशी मधुकृष्ण त्रयोदशी वारुणी योग आहे. जनता कर्फ्यू हा कुठल्याच शास्त्रांत बसत नसल्याने देवाना पाण्यात ठेवण्याची आवश्यकता नाहीं'. हें सांगपाक गुरुजीन म्हजे कडल्यान एकशें एक रुपया घेतले.

***

'तुरु तुरु तुरु तुरु जनता कर्फ्यू हुआ शुरु' अशें म्हणत हिणें म्हाका हालोवन उठयलो.

'सिताराम बापू, आयचो जनता कर्फ्यू सगल्यांक सुखा समाधानाचो आनी शांतीचो वचूं रे सायबा' अशें म्हणून ही सिताराम बापूच्या पांयजेलाक पांयां पडली. मागीर हिणें टेर्रासाचेर वचून 'गफूर चाचा गफूर चाचा जनता कर्फ्यू आया' असो गफूर चाचाक साद घालो. 'जो आता है उसको आने दो बेटी पर तू अपनी सुबह की गोली नाश्ते के साथ लेना भुलना मत' अशें म्हणून गफूर चाचान हिका नेरवांची गुळी घेवपाक याद केली. नलूचो फोन आयलो.

''भावोजी आज जनता कर्फ्यूचा काय बेत? आमच्या कडे चपाती आनी शिकरण''.

'आमच्या कडे मेल आनी चपाती' अशें म्हणून हांवें फोन हिचे कडेन दिलो.

''अगं नले, मला उगाच धडधडायला होतं. जनता कर्फ्यू पहिल्याच फावटीं आमच्या आयुश्यांत.''

अशें म्हणून ही रांदचे कुडींत गेली. तांचें उलोवणे आयकून म्हाकाय धडधडपाक लागलें. म्हणटकच कोंब्यांतलें उदक पिवन हांव सालांत आड पडलों. आईन म्हज्या फाटल्यान लागून शाळीग्रामांक उदकांत घालपाक लायले. शाळीग्राम उदकांत घालतना आठांच्या सुवातेर सातूच मेळ्ळे. सोदतकच एक देवाऱ्याच्या फाटल्यान मेळ्ळो. आज देवांकूय एकेच कडेन एकठांय रावपाक नाका! हिणें, 'आज जेवण लायटूच आं, शीत, कुंवळ आनी तोतापुरी आंब्यांची शीर. पिवंक हींग घालून फुटी कडी पचनाक बरी' अशी दनपारच्या जेवणाची जायरात करतकच पोट भरुन आयलें. सांजचें साडे चारांक हिणें श्रीहरीकोटा सावन यान अंतराळांत सोडटात तेन्ना परती गणती सुरू करतात तशी गणती हिणें सुरू केली. पोरोबागेर आवाज जाता ताच्या परस आमगेर आवाज व्हडल्यान जावपाक जाय अशी शिटकावणी आमकां मेळ्ळी. ज्युस्त पांचांक आमी दारान उबे रावन थाळे वाजोवपाक सुरू केलें. आईन फाटल्यान रावन घाट वाजयली. हांव दोन पळयो वाजयत ओ स्सय ओ स्स्य करुन नाचलों तसो सगल्यांक आनीक नेट आयलो. मदलो, भार आयिल्ल्या वरी जनेलाच्यो खिळयो धाडांवक लागलो. हिणें त्याच नेटार 'कितली म्हारगाय गे सायबिणी' फुगडी घाली. 'हो दीस आमचे जिणेंतलो न विसरपा सारको दीस' हिणें पदराक घाम पुशीत म्हणलें. आईन चेपिल्ले थाळे मात्रे पुनवेक जात्रे कडेन कावलाक दिवपाक लायल्या. शाळीग्राम उदकांत घाल्ले ते उदकांतूच उरले, रातची हातुणार पडटना याद जाली.

***

परशुरामान तीर सोडून निर्माण केल्ल्या पावन भुंयेर फुडले तीन दीस

आवश्यक सेवा सोडून सगले वेव्हार बंद उरतले अशें आमच्या सरकारान जाहीर केलें. हालीं हांव साद्या साद्या गजालीं खातीर अलंकारीक भाशा वापरपाक लागलां हें हांवेंच नोट केलां. आज नाल्ल फोडटना वारायलो. ही बेजार. 'नाल्ल लेगीत सारको फोडपाक येना! हो आतां कांतप कसो? तातूंत आनी जनता कर्फ्यू ' हिणें म्हणलें. नाल्ल वारावप आनी जनता कर्फ्यू हाचो संबंद कितें? सावळ्याक विचारचें पडलें.

***

'घरांत दोन वालांच्यो सुकिल्ल्यो चुडयो (धुळापेर घेतिल्ल्यो), एक बीट, अर्द कील कांदे, अर्द कील बटाट आसा' अशें म्हाका रांदचे कुडींतल्यान कळीत केलें. सुरय आनी उकडे तांदळांच्या पेजेर दोन तीन म्हयने काडूं येता अशी आशावादी आकाशवाणी रांदचे कुडींतल्यान जाली. भरिल्ल्या आंबल्याच्यो सवळ्यो बरण्यो फळयेर आसा ही म्हायती देवा कुडींतल्यान कानार पडली. हांवें आमच्या गांठीक आशिल्ल्या जिनसांची यादी केली. तातूंत पोरसांतल्या करबीलाचो लेगीत आसपाव केलो. आमच्या घराक चारीय वटेंतल्यान कोरोनाचो वेढो पडला आनी घरांत तीन म्हयन्याचीच रसद आसा हें चिंतून घाम फुटलो. आतां तह कोणा कडेन करचो हें न कळिल्ल्यान कोंब्यांतलें उदक पिवन आड पडलों.

***

बरडान पसऱ्यार 'कोरोनाच्या प्रकोपा मुळे पसरा पुढील पंचमी पर्यंत बंद राहील' असो तकटो लायला. कोणें तरी सकयल 'बरड तुम आगे बढो हम तुम्हारे साथ है' अशें बरयलां. पोरसांत वचून मशींग बुड्डीलो. मस्काची भाजी भिकणां घालून वायट लागना. मिसेस पोरोबान तांबडी भाजी प्लेटींत घालून फेसबुकार घाल्या. हिणें सालांत वाटकुळ्या मेजार धवो फुल्ल आल्मारींतलो भरिल्लो तुवालो घालून ताचेर ताटांत मस्काची भाजी घालून फोटो काडला. आज आमगेर मस्का भाजी, कुंवळ आनी तोतापुरी आंब्याच्यो दोन शिरो. आनी हें पचपाक हिंग युक्त फुटी कडी.

***

आज आमच्या पंतप्रधानान परत आमकां उद्देशून भाशण केलें. टिव्ही सामकार फ्रिजांतलें वांयग्यां भर्त आनी चपात्यो घेवन बसलों. भाशण आयकतना भरताची रूच कळ्ळी ना. मर्दी मिर्सांग चाबिल्ल्यान उदक पिवपाक उठलों. तेन्नाच पंतप्रधानान देसाक एकवीस दिसां खातीर लॉक मारतां अशें जाहीर केलें. हांव रांदचे कुडींतल्यान उदक पियेवन भायर सरपाक, ही, 'जिधर हैं उधर ही ठहरिये' अशी आड्डुली. हांव एका हातांत ताट, ताटांत अर्दी चपाती आनी भरत, दुसऱ्या हातांत लेंगो असो रांदचे कुडीच्या दारांत उबो रावलो. मागीर व्हडल्यान हिका 'जिधर हैं उधर ही ठहरिये' हें बारा वाजल्या उपरांत लागू जातलें अशें सांगतकच हांव भायर आयलों.

***

'जान है तो जहान है' मुंबई आनी कल्याण बाजार बंद.

***

हिणें पानवेलकर भजनी मंडळाचें म्हजें टी शर्ट मास्क करपाक घेतलां. एका मास्कार भजनी मंडळ उतरां ज्युस्त तोंडार आयल्यात. तें मास्क म्हज्या वाट्याक आयलां. 'वायट शें दिसना पळोवपाक' अशें घरांतल्या सगल्यांचे मत पडलें. न्हिदतना हिणें कोवीड, क्वोरण्टायन, सोशल डिस्टनसींग म्हणजे कितें अश्या प्रस्नांचो मारो म्हजेर केलो. वासुदेव आनी देवकीक कंसान क्वोरण्टायन केल्ली काय कितें हाचेर आमचो वाद जालो. न्हिदतना आमी 'दो गज की दूरी' दवरून न्हिदलीं.

***

हिणें सावळ्या कडल्यान घरांत जमनीर चौकोन मारून घेतल्या. देवा कूड सोडून सगले कडेन चौकोनूच चौकोन जाल्या. रांदचे कुडीच्या दारा भायर आमी ताटां घेवन चौकोनांत उबीं रावलीं. हिणें दारांत उबी रावन आमकां वाडलीं. आदल्या हिंदी सिनेम्यांनी जेलींत कैदी अशे रितीन उबे रावन जेवण घेताले ती याद जाली. कोरोना आमची आनीक कितली दशा काडटलें खबर ना. हिणें आमकां घरांत उजवो हात सरळ धरुन चलपाक लायलां. हाका लागून दो गज की दूरी आपशींच उरता खंय. व्हडल्यान, आमचे रांदचे कुडी भायर ताटां घेवन फोटे फेसबुकार घाले. ते फोटे सोशल मिडियाचेर व्हायरल जाल्या अशें कानार पडलां. वाड्यार सगल्यानी घरांत चौकोन मारून घेतल्या म्हूण सावळो सांगी. महिला मंडळान आमकां 'आदर्श कोवीड परिवार' म्हूण जाहीर केलां. लॉकडावन सोंपतकच रोखडोच हो पुरस्कार सुवाळो घडोवन दितले अशें शेंवत्यान कळीत केलां. 'कोरोना सगल्यांक संद दिता ती घेवपाक कळपाक जाय' हिणें न्हिदतना म्हणलें. हांवें लायट काडली.

***

बरडान आपल्या पसऱ्या सामकार चौकोन मारून घेतल्या अशें शेंवत्याल्या धाकट्यान हिका फोन करुन सांगला. सद्या घरांतली साकर आनी तूर दाळ सोंपल्या. जगांतलें अक्षर साहित्य क्वारण्टायन करून घेतिल्ले अवस्थेंत तयार जालां अशें दत्ता म्हणटा. सद्या हांवें 'आड्या कडली नदर' कादंबरीचें नाट्य रुपांतर करपाचें थारायलां. हांव मेजा कडेन खाडकेक पेन लावन शुन्यांत नदर लावन बसलां असो फोटो दत्ता काडून घेवन गेला. खंयच्या तरी दिसाळ्या खातीर ताका त्या पोजीन म्हजो फोटो जाय अशें तो म्हणऽ. म्हजे हे कादंबरीची दखल वाचप्यांनी फावो ते प्रमाणान घेतली ना हाचें दुख्ख म्हाका अजुनूय आसा. हे कादंबरेचेर परिसंवाद घडोवन हाडपाचें सावळ्यान थारायल्लें. आतां लॉकडावनाक लागून तें फुडें पडलें.

***

हिचो बापूय मुद्दम धवी भाजी घेवन आयला. तोडांक मास्क बांदिल्ल्यान हांव ताका वळखलो ना. हातांतली पोती आनी भितरली धवी भाजी पळोवन म्हाका ताची वळख पटली. आपल्या धुवेचें तोंड पळोवपा खातीर मुद्दम स्कुटर घेवन तो आयिल्लो. येतकच तो दनपारचें जेवण घेवन वता तसो तो जेवण घेवन गेलो. हिणें ताचे खातीर भितर दोन सुके बांगडे आशिल्ले तांची किस्मूर केली. म्हजे पानार धवी भाजी आनी फुटी कडी. वतना ताका, धवे भाज्जे खातीर इतली रिस्क घेवन येवनाका असो शिटकायलो.

***

हिणें रिठो वापरून आपलो होम मेड सेनिटायजर केला. आंगणांत सावळ्या कडल्यान फातर हाडून घेतल्या. त्या फातरीर रिठोयुक्त सेनिटायजरान वीस सेकण्ड हात घांसून म्हज्या उजव्या हाताच्यो साली

पयल्याच दिसा गेल्यो.

***

खबर घेवपाक हांवें नलूक फोन केलो. फोन लायल्या बराबर फोनार कोणें तरी खोंकली काडली. पयलीं म्हाका साडू खोकली काडटाशे दिसलें. मागीर कोण तरी कोरोनाची म्हायती दिवपाक खोंकली काडटा तें कळ्ळें. 'अगं तुला फोन लावला आणि कुणी तरी खोकली काडली. मला वाटलं तुझा यजमान की काय. माझा पैल्यांदा आवराच उडाला' अशें म्हणून नलूचीं फकांडां केलीं. 'काय तुमी भावोजी! मी त्याना दिवसातून चार वेळा काढा देते. कशी येणार त्याना खोकली? मी दिदडेला सांगते तुला पण काढा द्यायला'... हांवें फोन दिदडे कडेन दिलो. आयच्यान म्हाका काढो सुरू केला. काढ्या परस कोरोना परवडलो अशें दिसपाक लागलां. दिसांतल्यान चार खेंपे काढो घेवपी साडवाक हांवें मुंबय वटेन फुडो करून नमस्कार केलो.

***

आज काढो घेवन मेजून आठ फावटीं परसा कडेन जालें. 'काढो घेवनूच पोटांतलो कोरोना भायर सरतलो' अशें म्हणून हिणें आनीक एक पेलो भरलो.

***

आज नाल्ल सारको फोडलो पूण उदक सगलें भायर रकलें. 'दुश्काळांत तेरावो म्हयनो आनी तातूंत हो लोकडावन' हिणें म्हणलें. म्हाका अजून मेरेन हे वाक्याचो अर्थ कळूना.

***

पंतप्रधानान आज रातचे णवांक भायर रावन दिवे पेटोवपाक सांगलां. हांवें माळ्यार चडून दिवल्यो सकयल काडल्यो. चार बॅट्री दिव्यांक बॅट्रयो घाल्यो. व्हडल्यान, म्हजे बानयानाचे सावळ्या कडल्यान कवदे करून घेतल्या. चामुंडा देवी महिला मंडळान वयल्या वाड्या पुरती 'दिवे पेटवा व फेसबुक वर पाठवा' सर्त जाहीर केल्या. हे सर्तींत व्हडल्यान भाग घेतला. दिवे पेटयतना एक आयटम साँग घालचें अशी सुचोवणी हिणें केली आनी बाकिच्यांनी ती उखलून धरली. धाकल्यान चित्रण करपाचें ऍंगल थारावन स्टुलां मांडलीं. ज्यूस्त णवांक ही कवदो घेवन 'ज्वानीची आगीची मशाल हातीऽऽऽ आले मी अवसच्या भयाण रातीऽऽऽ' अशें म्हणत भायर आयली. आमीं 'दिसला ग बाई दिसला मला बघून गालात हसला' अशें म्हणून हिका साथ दिली. 'दिवे पेटवा व फेसबुकवर पाठवा' हे सर्तींत आमकां पयलें इनाम फावो जालें.

***

आज दिसाळ्यांत म्हजो खाडकेक पेन लावन बरो फोटो आयला. हांव लॉकडावनान कट्ट्यो घालून हांडो पेटयतां हाचेर तांणी भर दिला. हांव 'आड्या कडली नदर' हे कादंबरेचें नाट्य रुपांतर करतां हाचे बद्दल कांयच छापून येवना. फोन करून हांवें दत्ताचेर दोन गाळी शेवटिल्यो. देशांत कोरोना दुयेंतींचो आंकडो वाडत आसा. आज सोशल डिसटन्सींग वाडोवपा खातीर ही खाटीर न्हिदली आनी हांव जमनीर.

***

हिची गुळेलीची मावशी भायर पडली. हांवें हिचीं सत्तरी म्हालांतलीं सोयरीं मेजलीं. आंकडो विसां वयर भरलो. म्हणटकच हांवें म्हज्या व्हॉट्सएपाचो डिपी काळो करून तिका आर्गां ओंपलीं. ती वोडयांचें आम बरें करताली. तिच्या बाराव्याक साडे तिनशी रुपया भरून दिसाळ्यांत तिच्या फोट्या सयत म्हज्या भावनांक वाट करून दिवपाचें थारायलां.

***

रातीं सपन पडलें. आमगेर सत्यनारायण पुजा चल्ल्या. आमी दोगांय सोशल डिसटन्सींग दवरी 'नासतना पुजेक बसल्यां. बाबुली भट तोंडाक मास्क बांदी नासतना पुजा सांगता. बाबुली भटान 'म म' म्हणटकच हांव 'म म' म्हणटा आनी ही म्हज्या हाताक हात लायतकच हांव 'दो गज की दुरी दो गज की दुरी' म्हणत जागो जालों. कोंब्यांतलें थंड उदक पिवन परतो हातुणार पडलों. परत दोळो लागलो ना.

***

'हांव तीन दिसां खातीर क्वॉरण्टायन आं तुमी रांदचे कुडीचो ताबो घेयात' हिणें जाहीर केलें. आज आमगेर तेफळ कडी, बटाटाचीं कापां आनी लोणचें. आनी पचन शक्ती खातीर हिंग युक्त फुटी कडी'.

***

रांदचे कुडींत सोय कांत्तना खोकली आयली. ती कोणें तरी पायर्णींतल्यान वतना आयकल्या जातली. रामाच्या देवळा कडेन वण्टीर 'बाबाला खोकली बहुतेक कोवीड १९. कृपया १९ वर दहा रुपये लावावेत' पितारलां. लोकांचो मद कमी जायना.

***

पाचारपाक गुळेली वचून आयली. मावशी चलता फिरतना भायर पडली. 'आज कोवीडाचो आंकडो कितलो गे?' अशें तिणें सुनेक विचारलें. आनी शेवटयांक मीठ लायतनाच मान उडयली. आतां हे मरण कोवीडाक संबंदीत धरचें काय ना हाचेर मातसो घरांत वाद जावन वातावरण तापलें. हिचो बापूय पाचारपाक आयिल्लो. वतना ताणें धवे भाज्जेची पिशवी हाताक तेंकयली. धवी भाजी पळोवन मातशे चर्रर जाल्ले वरी जालें.

***

आयच्यान रामायण परत दाखयतले. घरांत उमेदीचें वातावरण तयार जालां. ही सालांत टिव्ही दवरतात थंय तरी चुनो मारून घेवया म्हूण फाटीक लागल्या. हिणें टिव्हीचेर नवो भरिल्लो तुवालो घाला. रामायण पळयतना आमी दोगांय नॉस्टालजीक जावया आं अशें सांगलां. बळयां नॉस्टालजीक जावं येता हें म्हाका आज कळ्ळें. हिणें आनंदी आनंद गडे म्हणत आज जेवण रांदलें. आज कुंवळ आनी धवी भाजी.

***

पंतप्रधानान टिव्ही वयल्यान लॉकडावन वाडयल्ल्याचें जाहीर केलें. हांव हे खेपे वाटयेंत चायो बोयो घेवन टिव्ही सामकार बसलों. धवी भाजी आनी चपात्यां परस चायो बायो बऱ्यो.

***

पयलीं आई तिच्या उल्याक ओ दिना जाल्यार, कान फुटल्या रे, भेड्डो जाला रे, तोंड घेवन खंय गेलो असले प्रस्न विचारताली. आतां ती खंय क्वारण्टायन करून घेतलें. अशें विचारपाक लागल्या. कोरोनान मनशाचे जिणे वांगडा ताची उलोवपाची तरा लेगीत बदल्ल्या.

***

भुरग्यांच्यो ऑनलायन क्लासी सुरू जाल्या. धाकल्याचो वर्ग चालू आसतना हांव ताचे कुडींत गेलों. धाकलो सामको बेजार! ताका टिचरीन, घरांत उगतो, जानव्यान फाट खाजयत भोंवता तो कोण काय विचारलें खंय. आतां हे ऑनलायन क्लासींक लागून घरांत लेगीत उगते भोंवपाची माणसुकी उरूं ना.

***

जान भी जहान भी. पूण मुंबई आनी कल्याण बाजार बंद

***

आमचो पंच आवश्यक वस्तू वांटपाक घेवन आयलो. पोती हिणें घेतली. घेतना फोटो सेशन जालें. आमी 'V' (व्ही) सायन केली. आईन पंचाच्या माथ्यार हात दवरून आशिर्वाद दिलो. फोटो सुंदर आयलो. पोतयेंत, एक किलो बलम तांदूळ, दोन बटाट, दोन कांदे, १०० ग्राम तुरदाळ, एक कोलगेट पेस्ट, चार टूथब्रश, एक मिठाचें पाकीट.

***

आज लश्कराच्या विमानांनी कोवीड वॉरियरांचेर वयल्यान पुश्पवृश्टी केली. आर्दी पौराणीक सिनेमांतले देव मृत्यूलोकांचेर करताले तशी.

***

रतन खत्रीचो फोटो फ्रेम करून हाडलो. वण्टीर बापायच्या दाव्या वटेन लायला. दिसाळ्याचेर 'तुमी मला पोरके करून गेलात अशें छापून हाडचें अशें मनांत आयलें. गोंयांत तांच्या बरे मागप्यांचो आंकडो पळयल्यार एक पुरवणी पान काडूं येतालें अशें दत्ता म्हणटा.

***

नलूचो रातीं फोन आयिल्लो. 'भावोजी कोवीड १९ आनी कोरोना ह्याच्या मदला फरक काय?' हांव तेन्नाच माथ्याक अमृतांजन काडटालो. 'अगं नले अमृतांजन दोळ्यांत गेलं गं भगभग पडला हे. ही सांगेल...' अशें म्हणून हांवें फोन हिचे कडेन दिलो... 'अगं नले, भरलेली आंबली आनी दोणा मदली आंबली हाच तो फरक. आंबली तीच पण रूच वेगळी हिणें कोवीड १९ आनी कोरोना मदलो फरक सांगलो. हांवें अमृतांजनाची बाटली माथ्याक लावन अर्दी केली.

***

देशांत दुर्येतीचो आंकडो वाडत आसा देखून हिणें आमकां घरांत मास्क घालप सक्तीचें केलां. मास्क घालतकच वक्लाचेर वाफ येता हाका लागून व्हडली दुर्घटना जावं येता, हांवें हिका सांगून पळयलें. शेंवटें समजून हिकाच 'शाण्या हाताल इल्लो सेनिटायचर घाल गो' म्हणलें. 'हीच ती दुर्घटना?' अशें म्हणून ही नाक तांबडें करून भितर गेली. वाफ आयिल्ल्या वक्लांतल्यान हिचें तांबडे नाक कशें दिसलें हें अजाप!

***

लॉकडावनान मायभाशेक नवे कवी दिले अशें दत्ता म्हणटा. तांकां तो कोवीड १९ कवी अशें म्हणटा. पयर पावसाची सर येवन गेलीं. आनी नागवेकाराक कोमरी आयली.

आयलो पावस आयलो पावस
*कायतानाच्या खळ्यांत फिलूच्या भाटांत*
*चिप्प चिप्प भिजुया ओले*
*भिजलीं केळम्यां पानां सायली खोले*
*सुटला सगल्याक मातये परमळ*
*दर्या जाला सगलो खवदळ*
*सदून सोडलीं कायलीन भर्जी*
*पूण खावपाक भेट केन्ना गो तुजी म्हजी*

***

पाट्यार वचून आगरांतले दोन लातां मीठ हाडलें. वोकल फॉर लोकल.

***

हिणें 'आलूर कोरचुरी' म्हणून एक बंगाली डीश केल्या. 'बाबू मुशाय नातून खाबर खायो' हिणें म्हाका म्हणलें. हांवें, 'बाबू मुशाय जिंदगी बडी होनी चाहिये लंबी नही' अशें तोंडांत आलूर कोरचुरी घालीत म्हणलें. 'हाचो अर्थ हें खावन तुमकां कितें जातलें असो न्ही?' हिणें नाक तांबडें केलें. 'आगो हो आनंद सिनेम्यांतलो फामाद डायलॉग मुगो' हांवें समजावपाचो यत्न केलो. हांगा कोण, कित्याचो, केन्ना, कसो अर्थ काडात सांगू नजो.

***

बरड हालीं सामान हाडटा ते पटयेर 'कोवीड १९ प्रीत्यर्थ' अशें बरयला. बापायच्या बाराव्याक हाडिल्लें सामान ताणें 'वडिलांच्या बाराव्या दिना प्रीत्यर्थ' अशें बरयल्लें. आज हिणें कोवीड १९ प्रीत्यर्थ, दोन डजन लायफबॉय शाबू, दोन डजन वीम शाबू हाडले.

***

काल कचरो व्हरपाक मनीस येवना. कालच्या सुंगटांच्या गळ्यांचो परमळ घरांत भरला. तातूंत हिणें मुळ्या भाजी गेसार दवरल्या. दोनीय परमळ भरसून एक वेगळोच परमळ घर भर पातळ्ळा.

***

बापायली डायरी उगडली. ०८/०६/१९७०. मिर्गावर ज्युस्त पाऊस सुरू झाला. बाहेर घोग्यांनी पाऊस पडत आहे. गळा खवखवल्या सारखा होतो. उगाच थंडी पडसं झाल्या सारखं वाटतं. शिश्यांतील एक पाव शुद्ध फेणी घेतली. पोटात आगीचा डोंब उसळल्यावर कात्र्याचे दोन पाव कुल्ल्यांच्या तोणाकाला लावन खाल्लें. जिवाला बरं वाटलं. अधून मधून पावसाळ्यात हा घरगुती उपाय केला पाहिजे.

***

'आमी आतां कोरोना वांगडा दीस काडपाक शिंकपाक जाय' असो दिसाळ्यांत माथाळो वाचलो. फाटलीं पन्नास वर्सां कोणा वांगडा कशे दीस काडले हें चिंतपाक लागलों. तातूंत आतां कोरोनाची भर.

***

आज अचकीत संध्या दिसलें. ब्लॅक टी शर्ट आनी निळी जिन्स घाल्ली. मास्कूय मॅचींग बांदिल्लें. 'कहीं बार यूं भी देखा है ये जो मन की सीमा रेखा है मन तोडने लगता है...'

संपर्क: ९८५०५३०७५६



# कोंकणी राजभास कशी जाली? एका कार्यकर्त्याचे नदरेंतल्यान

१९ डिसेंबर १९६१ वर्सा गोंयची सुटका जाले उपरांत ते आयज मेरेनच्यो गोंयांतल्यो दोन म्हत्वाच्यो घडणूको म्हणल्यार जनमत कौल वा ओपिनियन पोल आनी ५५५ दिसांचें (जुलै १९८५ - फेब्रुवारी १९८७) कोंकणी राजभास आंदोलन! ह्या दोनूय घडणुकांनी गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व राखून दवरलें आनी ह्या दोनय घडणुकां वरवीच आयज महाराष्ट्राच्या एका जिल्ह्या परस आकारान आशिल्लें गोंय भारत देशाचें २५वें राज्य म्हण व्हडविकायेन मिरयता आनी चाळीस आमदार ह्या सुपुल्ल्या अश्या राज्याची सत्ता भोगतात.

अश्या ह्या म्हत्वाच्या घडणुकांचे दस्तावेजकरण करप, ह्या घडणुकांनी जांकां फुडारपण करपाक जमलें ना वा ह्या घडणुकांचे फुडल्या पिळगेक म्हत्व कळचें म्हण ताचो इतिहास बरोवन दवरपाचीय तांकां वान्सा जाली ना. तेदेवेळचे राजकीय विश्लेशक वा पत्रकार हांकांय हो इतिहास बरयनसो दिसलो ना.




इतिहास जर ते - ते वेळार बरयलो तर तांतल्यो चुकी टाळपाक येतात. चुकीचो इतिहास लोकां मेरेन पावना. गोंय सुटके उपरांतच्या ह्या म्हत्वाच्या घडणुकांचो इतिहास बरोवन दवरलो ना म्हण आयज ओपिनियन पोल जावन पन्नास वर्सां उलगलीं तरीय ओपिनियन पोल कोणें हाडलो?, ओपिनियन पोलाचो बापूय कोण? असले प्रस्न तयार जाल्यात आनी जण एकलो आपल्याक जाय तश्यो ताच्यो जापो दिता. हाचे कारण म्हणल्यार बरोवन दवरूंक नाशिल्लो इतिहास.

देखीक ओपिनियन पोलाचेर कोंकणींतल्यान पयलें पुस्तक ओपिनियन पोल जातगच सुमार ३८ वर्सां उपरांत आयलें. ह्या चळवळींतलो एक खडेगांठ वांटेकार सदानंदबाब काणेकार हांणी २००५ वर्सा ओपिनियन पोलांतल्या आपल्या अणभवांचेर आनी यादींचेर आदारिल्लें पुस्तक 'ओपिनियन पोल' ह्या नांवान उजवाडायलें. ताचे उपरांत ओपिनियन पोलाचो सविस्तर असो इतिहास इंग्लिशींतल्यान राजन नारायण आनी शॅरोन डी क्रुज हांणी २०११ वर्सा 'Triumph of Secularism- battle of Opinion Poll in Goa' ह्या नांवान बरयलो आनी तो गोवा पब्लिकेशन्सान उजवाडाक हाडलो. उपरांत २०१७ वर्सा पत्रकार सुहास बेळेकार हांणी मराठींतल्यान 'गोव्याला घटकराज्य कसें मिळाले?' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. २०१९ वर्सा अस्मिताय प्रकाशनान शाम वेरेंकार हांचें 'ओपिनीयन पोल' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. हाचे वेल्यान ओपिनीयन पोलाचेर पुस्तकां येवपाक कितलो कळाव लागलो तें आमकां कळटा आनी मुखेल म्हणल्यार हातूंतलें एकूय पुस्तक आमकां ह्या घडणुकेचो पुराय इतिहास सांगिना.

कोंकणी राजभास चळवळीच्या इतिहासाच्या मळार तर आमकां आनिकय अवतिकाय दिसून येता. पत्रकार सुहास बेळेकार हांचें २०१४ वर्सा लोकसभा आनी गोंय विधानसभा हाचे कामकाजाचेर आदारून बरयिल्लें मराठींतलें 'राजभाशा कायद्याचा इतिहास' आनी तांणीच बरयिल्लें 'न भुतो न भविष्यती राजभाशा आंदोलन' (२०१९) आनी शाम वेरेंकार हांणी बरयिल्लें आनी अस्मिताय प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्लें 'राजभास आंदोलन' (२०१९) हीं पुस्तकां सोडल्यार आमचे कडेन कोंकणी राजभास चळवळीचेर आनीक पुस्तकां नात. इंग्लीश मिडियाक तर ह्या आंदोलनाचेर पुस्तक बरोवपाची गरज लेगीत भासूंक ना. हाचे वेल्यान आमी ह्या म्हत्वाचे घडणुके कडेन कितल्या घाळपणान पळयतात तें कळटा. खंतीची गजाल म्हणल्यार हातूंतलें एकूय पुस्तक ह्या चळवळीची पुराय आनी खरी खबर सांगिना.

ह्या मळा वेलें उणेंपण थोडे तरी कमी करपा खातीर जेश्ट पत्रकार आनी साहित्यीक संजीव वेरेंकार हांणी 'कोंकणी राजभास कशी जाली?' ह्या पुस्तका उदेशी हो कोंकणी राजभास चळवळीचो इतिहास आमच्या मुखार हाडला. संजीव वेरेंकार हो इतिहास संशोधक न्हय तर ह्या चळवळींत सक्रीय आशिल्लो एक कार्यकर्तो. कोंकणी राजभाशेचें पुराय आंदोलन ताच्या दोळ्यां मुखार घडलां आनी ह्या घडणुकेचो एक साक्षिदार आनी वांटेकार ह्या नात्यान ताणें कितें पळयलें, भोगलें तें सगळें ताणें भीड मुर्वत दवरिनासतना मांडला. ह्या पुस्तकाक राजभास चळवळीचो इतिहास म्हणचो काय ना हें जाणकारांनी थारावचें. पूण फुडें फाटीं ह्या राजभास आंदोलनाचो कोणय विस्तृत असो इतिहास बरयतलो तेन्ना ताका संजीवाच्या ह्या पुस्तकाचो खूब लाव जातलो हातूंत दुबाव नां.

**पुस्तक परिक्षण**

सुरवेकच 'नमळायेन' ह्या आपल्या मनोगतांत ह्या पुस्तकाच्या उद्देशा विशीं बरोवपी म्हणटात कोंकणीन म्हाका नांव दिलें, स्वाभिमान दिलो. हांवूय तिका कितें देणें लागता. म्हजे भाशेक व्हडली करपाक, तिका मानाचो पाट दिवपाक, म्हजे हयातींत जे कोण कठीण काळार, प्रामाणीकपणान कश्टले, चळवळीच्या आगट्यांत हुलपले, तांच्या नांवांची नोंद भाशेच्या इतिहासांत कोण

करीत हे विशीं म्हाका दुबाव आसा. देखून तांच्या योगदानांची खंय तरी नोंद जावंची हे भावनेन हांवें हें पुस्तक बरयलां. म्हजो कोण मित्र, विरोधक, दुस्मान हाचो कसलोच विचार करिनासतना तटस्थपणान सत्याक फाट करीनासतना हांवें हें काम केलां.

१९२ पानांच्या ह्या पुस्तकांत ३७ प्रकरणां आसात. आनी निमण्या दोन प्रकरणांत राजभास विधेयकां आनी संदर्भ वळेरी आसपावतात.

ह्या पुस्तकाचो अर्द्यावयर वांटो कोंकणी राजभास घडचे पयलीं ताका जी बसका लाबली ताचेर आदारला. कोंकणी राजभास जावंचे पयलींचो पुर्वरंग कसो! हातूंत त्या वेळे वेलें राजकारण, मुंबय जाल्लो कोंकणीचो वावर, लळीतकांतल्यान जागृताय, विंगड-विंगड साहित्यीक संस्थाची थापणूक, काणकोणचें साहित्य संमेलन, कोंकणी नाटक, चित्रंगी, गोंय ते मंगळूर मेरेन बरोवप्यान आनी सज्जन तारी हांणी केल्लो प्रवास आदीची म्हायती खूब अभ्यासपूर्ण आसा. हो सगळो वावर म्हणल्यार कोंकणी राजभास करपाचें मुळावण आसलें हें बरोवपी आमकां सांगता.

हातूंतलें 'उदयबाबांची निवडणूक : राजभाशेची इशारतूच!' हें प्रकरण म्हाका खूब म्हत्वाचें दिसता. उदयबाबान मडगांवचे आमदार बाबू नायक हांचे आड वेंचणूक लडयली ताका राजकीय कारणां कितेंय आसूं पूण एक कोंकणी स्वाभिमानी आनी कोंकणी चळवळींतलो मनीस विधानसभेंत पावता हाचो सगळ्यां कोंकणीवाद्यांक अभिमान आसलो आनी ते खातीर कोंकणी चळवळींतले गोंयभरांतले कोंकणी मोगी उदय बाबा खातीर वावुरले. बाबू नायक हो कोंकणीचे आड केन्नाच नासलो. पूण उदयबाब विधानसभेंत पावप हें चड गरजेचें आसलें आनी ते खातीरच कोंकणी राजभास जावपाचीं पावलां बेगीन पडलीं आनी संजीवबाब म्हणटात तशे उदय बाबांची वेंचणूक ही कोंकणी राजभास जावपाची इशारतच आसली.

ते उपरांतचीं प्रकरणां आमकां कोंकणी राजभास कशी जाली हें खोलायेन सांगतां. हातूंतली एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार बरोवप्यान ह्या चळवळींतल्या सामान्य कार्यकर्त्यांचीं नांवां ह्या सगळ्या प्रकरणांनी आसपावल्यात. हीं नांवां कोणाच्याय नदरेंतल्यान सुटपा सारकीं, पूण तांचो त्याग मोठो. हांतूत कांय नांवां आसपावपाचीं नदरचुकीन उरल्यांत. पूण जीं नांवां आयल्यात तीं शंबर प्रतीशें खरीं आसात. फुडें फाटीं भलतींच नांवां घुसोवपाची चूक कोणय करीत जाल्यार ताका सादूर रावंचें पडटलें. ते खातीर संजीवबाबाची तोखणाय. हें करतना कांय जाण जे प्रत्यक्ष चळवळी वेळार तिरायत कशे वागले आनी चळवळ येसस्वी जातगीच चळवळीचें स्रय घेवपाक फुडें सरले अश्याच मनश्यांचेर बडीय मारल्या.

कोंकणी भक्तांच्या त्यागाक लागूनच कोंकणी राजभास जाली हें निमणें प्रकरण खूब म्हत्वाचें आसा. कोंकणी राजभास जातगच आमकां कशी सुस्ती आयली. राजभास कायदो चालीक हाडपा खातीर आमी सरकाराचेर चेंपण घालपाक जाय आसलें तें घालें ना म्हण आयज कोंकणी राजभास जावन लेगीत तिका राजभाशेचो पाट मेळना हें सांगतना संजीवबाब म्हणटात नवे पिळगेंतले कांय तरणाटे राजभास कायदो चालीक लावूंक ना म्हण म्हालगड्यांक दोश दिवंक लागल्यात हे समा न्हय. कोंकणीचें उरलां तें काम नव्या पिळगेन करचें, जाणटेल्यांचे दोश दाखोवपांत धन्यताय मानची न्हय. कोंकणी राजभास अंमलबजावणे वरवी गोंयकारांचे हीत सादप ही मोख आसची अशें निमणें बरोवपी म्हणटा.

ह्या पुस्तकाचें खाशेलेपण म्हणल्यार ह्या पुस्तकांतली सुटसुटीत आनी व्हांवती भास. बरोवपी हातूंत म्हणी आनी वाक्यप्रचार घालून आनीकय ती लालित्य पूर्ण करता. बरोवप्यान ह्या पुस्तकांत जी शैली वापरल्या ती तोखणायेची! आयज सुको इतिहास कोण वाचना. पूण हें पुस्तक वाचतना खंयच कंटाळो येना. ह्या पुस्तकांत राजभास चळवळीचे कांय दुर्मीळ अशे फोटे आसात. ते खातीर ह्या पुस्तकाचें म्हत्व आनीकय वाडलां.

ह्या पुस्तकाच्या उणेपणाचेर बोट दवरतलो जाल्यार सगळ्यात व्हडलो दोश म्हणल्यार ह्या पुस्तकाचें शुद्ध लेखन. आपूण कवी आपणाक तें शुद्धलेखन बी कळना हे म्हणपच चूक. बरी हुमणान कालयिल्ली शिताची उंडी तोंडांत घालतगीच ज्युस्तच फातर सापडचो तशें खूब कडेन जालां. हें एक इतिहासीक मोल आशिल्लें पुस्तक जाल्ल्यान ताचे मुद्रीत शोधन करप गरजेचें आसलें.

ह्या पुस्तकाचेर कांय लोक आक्षेप घेतात, इतिहास बरोवपी सदांच तटस्थ आसपाक जाय. बरोवपी त्या घडणुकेंत वांटेकार आसलो तरी! खूब कडेन संजीव वेरेकारान आपलो ह्या चळवळींतलो सहभाग दाखोवपा खातीरच हें पुस्तक बरयलां असो तांकां दुबाव मारता.

पूण म्हज्या मतान संजीवबाबान आपलो ह्या चळवळींतलो सहभाग दाखोवपाक हें पुस्तक बरोवंक ना. तशें कोणाकय दिसलें तरी ज्यो घडणुको घडल्यो थंय बरोवपी आसा, ताच्या वांगडा हेरय आसात आनी तांचीय नांवां हातूंत आसात. जंय संजीवबाब हाजीर आशिल्लो तो बरोवपी म्हणून न्हय तर एक कार्यकर्तो म्हण. म्हणटगीर घडणुकेचो एक गवाय म्हणून बरोवपी कडेक रावंक शकना.

त्या काळार जें कितें घडलें तें बरोवपी थंय हाजीर आसतना घडला. जर बरोवपी सगळ्या कडेन आशिल्लो तर ताचो उल्लेख येवप समा आसा. बरोवपी ह्या घडणुकांची गवाय म्हणटगीर ताचे बरोवपांत एक वजन आयला. आपूण ह्या घडणुकांनी नासतना आपलो सहभाग बरोवप्यान दाखोवंक ना हें म्हत्वाचें आनी खंयचीय घडणूक चुकीची बरोवंक ना हें विशेश!

ह्या पुस्तकाची अर्पण पत्रिका खूब मोलादीक आनी अर्थपूर्ण आसा. संजीवबाब बरयतात चार चौगांत उबो रावन धिटायेन सत्य आनी स्पश्ट उलोवपाची वाच्या दिली ते म्हजे कोंकणी मायेक आनी दुबळ्या धाट्या गोंयकारांक न्याय मेळोवन दिवपाक आनी कोंकणी अस्मितायेचे राखणे खातीर आपलें जिवीत ओंपलें त्यो स. व्हिक्टोरीया (मामी) फर्नांडीस हांकां हें पुस्तक ओंपतां

ह्या पुस्तकाचें मुखपृश्ट नामनेच्यो चित्रकार निरुपा नाईक हांणी काडलां. हें पुस्तक संजीव वेरेंकार हांणीच उजवाडायलां. गोंयची अस्मिताय राखपा खातीर जें राजभास आंदोलन घडलें ताची फाटभूंय आनी इतिहास जाणा जावन घेतलो जाल्यार हें पुस्तक वाचप गरजेंचें.

**कोंकणी राजभास कशी जाली?**
बरोवपी: संजीव वेरेंकार, प्रकाशक: संजीव वेरेंकार
पानां: १९२, मोल: २५० रुपया

**सखाराम शेणवी बोरकार**
संपर्क: ९९२३३०६७५१ 

## चुट्टांचे खोंपींत म्हजे...

रमेश साजु घाडी

आशाडांतलो पावस हो
यादी म्हज्यो चाळयता
मनाचे खोंपीत म्हज्या
परत पांवळ्यो गळयता.

दोळ्यां फुर्डे येता धांवोन
ती शेणा जमीन चुट्टां खोप
दारा फुडलीं चिखला कोंडा
कलय गेल्ले फुटकें तोप.

मिरगाच्या त्या पावसा वरी
आवयचीं तीं व्हांवतीं दुकां
चुली वयलो रितो तोप
भावणांचीं तीं रडवीं मुखां.

बापुय म्हजो खोंकली काडी
हातांत धरून विडये पोंत
केन्ना जातली ओखळ म्हणी
केन्ना येतलें सुर्या वत?

हाडली पड... खाल्ली पड
गरिबीची सदांच रड
चुट्टांच्या खोपींत म्हजें
मर्णा परस जिर्णे जड... रे
मर्णा परस जिर्णे जड...

संपर्क : ९८५०४५३३५५

## पावसाच्यो कविता

सु. म. तडकोड

आयलो साद चैत्राचो अनुसादयता वैशाखय
रुखावळे चल गो येवन झोपां वाली गो अचळय
बाल अरुण रे तूंच सकल आतां ताका रे सखया
विद्वाट जाता वैशाखा तापग्रस्तय कसो पळय

तमारी मधूक अती दाहक तापभंय गीम लख्ख लख्ख
अगगी पथार पातळाय झळींब प्रखर भक्क भक्क
ताम्र तोंड वियोगी जलचर नभचर विरागी
तनमनसी जन नितरोगी चण्डांशू गरम वैशाख

आकांताळो नीलकण्ठ मागता उदक उद्भव जाळ
विस्फोट विस्फोट चौयवर्शी वैशाख-विरह नरक काळ
कोमल रसाळ फुलां-फळां हाहाकारी आगडोंब
वैशाख फूल पांगारो तनमनां गच्च मरण माळ
रुखावळ मरड चल्लां झुकत कुंजर विरुपण तनमनसी
विकलेश्वरा नीलवस्त्रा पयोधर धाड ताकती कसी

हे धर्तरि सुर्या मुकूट घातलो गे कोर्णे अकाल?
हे निर्मणे विकलांगे वणवो सदैव विकल दिक्पाल
ब्रह्मांडान गे घुंवता कुदर्शन चक्रच गर्र गर्र
राजा आनी रंक एक दोळो सैम होय अवजाळ
दशकण्ठ विदारक दिकां पेल्यान स्वाती थेंबो जल्मता
माया मन मरूक पडलीं खांचींत एके कळो चंवरता...

निळाईंतलो चंवर कळो ब्रह्माड मेघ संतोसलो
ईश्वराच्या हातांनी रंगरंगियाळो लवलवलो
मंद वाय लव वर्षा ऋतू नव मायावी आंकुरलो
उमास कुपांत लिपलेली काळोख सहज गळसणलो

सुमन कुसूम ऐनभार ज्येश्ठा नखेत्र भारंभार
घसघस पावस आकूळ पिकूळ सारस दरिया झण झण झण
सारस गेलो कुपाकुपां पळय रुखावळ सकल वयर
वर्षा बहरली भुंये धुल्ल भारीत घम घम घम

रुखावळ चकीत वन उपवन विहरीत पल्लव नव अंकुर
प्रती खीण नव वन कोमल आंगां भिजलीं रीम झीम रीम
कुपांय फुटती नीत भ्रांती रुतुस्नांत धरती चित् शंकूर
घनघोर मधुर उटंगारो मनमोर वनी छम छम छम

चंचल मंगल इन्द्राणीय एकटक तटास शशिशेखर
आर्द्रा धरणी नभ जलद बंधन तुटलें सट् सट् सट्
गर्जन भारी अवधारी नव भंयकारी सघनघोर
भायर सरले भुंये पूत येवन आव्तां पट् पट् पट्

सहर्श मानस म्हस्कां फाटीं लिपून नव चंद्रीम
कोण घालता कुस्कारो मम प्रतिसाद मनभावन
येता मनोहर आशाढ अनाघ्रात नम नित्यनूतन
सृश्टी न्हाता नवयौवन बिजारोपण नवसावन...

संपर्क: ०८३२-२४२३५७७





## म्हाका चॉकी आवडना

सुप्रिया कुष्टा काणकोणकार

आमगेर एक अंकल येता
गोड गोड चॉकलेटी हाडटा
सगळीं म्हणटात... अंकल म्हजी
खूब अपुरबाय करता...

तो म्हाका आपले मांडयेर बसयता
पोल्यांक पोशेता... पापी येता
फाटी वेल्यान हात भोंवडायता
तो म्हाका गच्च धरता.

पूण म्हाका तें आवडना...

अंकल म्हाका हांसोवचे खातीर
कातकुतल्यो करता
.... छातये कडेन
... कमरा कडेन
पूण म्हाका हांसूंक येना... रचर्चे शें दिसता!

अंकल म्हणटा... 'कोणाक सांग नाका'
मम्माक सांगल्यार, मम्मा म्हणटा,
'तसलें उलोवप ना भुरग्यांनी!'

अंकल म्हाका धरता
... हात लायता
.... कातकुतल्यो करता

पूण म्हाका तें मानवना...

अंकल म्हाका चॉकी हाडटा
पूण...
म्हाका चॉकी आवडना
म्हाका अंकल आवडना
म्हाका... कोण आवडना!



## आवय

जयमाला ना. दणाईत

बेबद्या घोवाचो मार
खावचें ना अत्तपर
म्हणून तायट मानेन
गेली ती भायर सरून।

घरच्यांनी दवरलीं नांवां
यालीत गाळयांचो शिंवर
दारच्यांनी सोडलीं तोणां
दाखयत आपले तेवर।

ही बाये कसली रीत
इल्लेशे कामा घर सोडून वचपाची
सगळेच दादले मारतात
हांगाची हीच नीत।

कोण ही व्हडली लागून गेल्या
जगा वेगळी, कपनखायरी!
तरी बरें, खाशेली आवय मेल्या
खायत मार बापायचो जल्मभर।

पूण हिणें केल्लो निश्चेव घट
बदची ना कित्याकच
हांवय रावतलीं तायट
हातांत तितलें बळगें आसाच।

काडलो दीस कामां करीत
पूण सांजेर भुरग्यांबाळां येवजलीं
दारांत बशिल्लीं दुकां व्हांवयत
तानेल्लीं - भुकेल्लीं, रडटालीं।

कसलो मान आनी कसलो अपमान
माराचो पडलो विसर
आपाप पांय गेले घेवन घरा वटेन
जालें भुरग्यां मोगाचें दार्वे वयर।

संपर्क : ९७५७११९३१७

## तारो

मनोज नरेंद्र कामत

एकटी एकटुकीच जीण
सारतालो तो एकटोच
पयस अथांग मळबा दर्यांत
जंय पातळील्लें
मळबूच मळब
पयस - पयस

मळबाचो थाव ताकाच
लागनासलो
गिरे, उपगिरे
लागसाण सादूंक येताले
दुसऱ्याच खिणाक
पयस पावताले
नदरेचे शिर्मेतल्यान

तो उजवाड दितालो
हेरांक पर्जळीत करून
कांय खिणाक काळखांतल्यान
उजवाड्टालो दीस
धादोसकाय पातलावन
ताचे उदारतायेचें
कोणाकूच भानलेगीत नासलें !

पूण हेंच
ताच्या जियेवपाचें सादन जाल्लें
तो जळटालो
आपलेच भितर
भस्म करीत
त्रिलोचनी उग्र अवतारान
ताच्या मनांत नाचतालो
तांडव नटेश्वराचो

भायल्याचाराक
शांत दिसपी तो
जळजळ पचोवपाक
परोपकारी उजवाड प्रसवतालो
आपलेच साधर्नेत रमून
अनादी अनंत काळ

